


Ekvottavorvim UZWAAD
Reg.No.KARKON 00044/10/1/2000-TC

# उजवाड

VOL 16 AUGUST 2014 NO. 10




## कोंकणी भाशिकांक अल्पसंख्यांक समाजाच्यो सुविधा मेळूंक जाय :

मोहनदास पै

## इज्या वांट्याचो वावर हांवे केलो

जे.बी.सर



## घाटमाथ्यावयल्या पयल्या कोंकणी पुस्तकांचे उक्तावण





# * अभिनंदन आनी परबी *

जिविताचो प्रवास आनी गोट्या
पुस्तकाचा उजवाडावाणी खातीर
आमच्यो मोगाचा परबो आनी अभिनंदन



मिलाग्रिन ए. डिसोझा

लुईस रॉड्रीग्स





रुजायमेरी बस्त्यांत मंतेरो
अँथोनी (राजु) एस. मंतेरो
लुइजा अँथोनी मंतेरो
वायटस फ्रान्सिस्को कॅल्देरीया फोंडा, गोवा
सेवेरीना वायटस कॅल्देरीया
जेराल्ड अँथनी फर्नांडिस
दीपा जेराल्ड फर्नांडिस, अमरावती
पूजा, फिलोमिना आनी सेबेस्टीन बाबा रायनर
आनी मंतेरो, कॅल्देरीया, फर्नांडिस फामील
बेळगांव , गोवा, अमरावती
(M): 09538458462

*दक्षीण महाराष्ट्र, उत्तर कर्नाटक, सिंधुदुर्ग आनी गोंयच्या कोंकणी पर्जेच्या अस्मितायेचो कणखर आवाज*



**संपादकी सल्लागार मंडळाचें वांगडी**

गिरगोल रॉड्रीग्स, बेळगांव : मो : 09448121398
आल्फी मंतेरो, पुणे : मो : 09370665992
जॉन (बबन) मेंडोन्सा, मडगांव : मो : 09226797080
जे. जे. बारदेस्कर, कोल्हापूर : मो : 09421202407
प्रकाश करव्हालो, नेसरी : मो : 09373526049
जॉन मिनेझीस, मुंबय : मो : 09833328040
मिनीन डिसोझा, गडहिंग्लज : मो : 09325413339

**प्रतिनिधी मंडळ**

मारिया स्टीवन डिसिल्व्हा, सावंतवाडी : मो : 09423218682
धनु बस्तु वेग, आजरा : मो : 09271789875
मनवेल रॉड्रीग्स, इचलकरंजी : मो : 09422046838
वालनेस रेगो, मुंबय : मो : 09322388094
संतान पियेदाद डिसोझा, चंदगड : मो : 09420973208
मार्यान बोर्जीस, खानापूर : फोन : (08336) 222856
बाबु शिकेर, हेब्बाळ : फोन : 09421763935
बी.आर. गामा, बेळगुंदी : फोन : (0831) 2555285
संतान जॉन डिसोझा , वेंगुर्ला : फोन : 009422042522
थॉमस फर्नांडीस, देवबाग, मालवण : फोन : 09422392960

**संपादक : लुईस रॉड्रीग्स**
(0831) 2433189, 09448133189
email : euzvad@yahoo.in luirods@yahoo.com

**Regd. Office** : 60, High Street, Camp - Belgaum Pin : 590001

मुखेल कार्यालय : एस ७, विजयलक्ष्मी आर्केड, नार्वेकर स्ट्रीट, बेळगाव

: HEAD OFFICE :
S-7, Vijaylaxmi Arcade
Narvekar Street, Belgaum
Ph : (0831) 2433189


## अनुक्रमणिका


- संपादकीय - आमची भास आनी संस्कृताय 4
- साद- प्रतिसाद 5
- पुस्तका उक्तावण सुवाळ्या निमतान 6
- कोंकणी भाशिकांक अल्पसंख्यांकाचो दर्जो दिवंचो 8
- कोंकणी पुस्तकांचो उक्तवण सुवाळो 9
- जे.बी. बारदेस्कर सर हांचो सत्कार 12
- बार्देस्कर मंडळी. 13
- देव तुमकां बेसांव दितलो 15
- सैमाचे गिफ्ट 16
- आमी जोणकार -हळदणचे गावकार 18
- खबरो 16



अक्षर जुळवणी– कव्हर डिझाईन :
एल रॉड्स ॲडव्हर्टायझींग,बेळगांव
मुद्रण : ओमेगा ऑफसेट, बेळगांव
अंकाचे मोल : रु. १५/-
वर्साची वर्गणी : रु.१५० /

*एकवोटावोरवी उजवाड : स्थापना ऑगश्ट १९९८ रजिस्ट्रार ऑफ न्यूजपेपर्स फॉर इंडिया, नवी दिल्ली हांचेकडेन नोंदणी : ऑक्टोबर 2000 वर्स – 16 आंक –10*

**VOLUME - 16 NO - 10**
**AUGUST 2014**





श्री. प्रवीण रेवणकर

## उजवाड परिवारांत दैवज्ञ समाजाक मोगाचो येवकार

दैवज्ञ ब्राह्मण संघाचे अध्यक्ष श्री. प्रवीणबाब रेवणकर तशेंच तांचे सगळे वांगडी आनी दैवज्ञ समाज बेळगांव हांकां उजवाड परिवार मायेमोगाचो येवकार दिता. तांच्या सगळ्या कार्याच्यो खबरो उजवाडात प्रसिद्ध जातेल्यो – संपादक आनी संपादकी सल्लागार मंडळाचे वांगडी आनी प्रतिनिधी

संपादकीय :

# आमची भास आनी आमची संस्कृताय - भाग १

हालीच आमच्या मदें तीन म्हत्वाचे सुवाळे जालें.

१) जे.बी. बारदेस्कर सर हांचो तांच्या अमृतम्होत्सवा निमतान ग उजवाड परिवाराना घडोवन हाडिल्लो सत्कार आनी तांचेर उजवाड विशेश अंकाचे गडहिंग्लजा उक्तावन.

२)श्रीमती मिलाग्रीन लोबो हांचे जिवीताची वाट तशेच लुईस रॉड्रीग्स हाणीं भाशांतरीत केल्ले गोट्या ह्या दोन पुस्तकांचो दिमाखदार उक्तावण सुवाळो.

३) स्वामी प्रभुधर हांचो तांच्या वाड दिसा निमतान जाल्लो सत्कार. ह्या तीन सुवाळ्यां मदले साम्य कितें ? ह्या तिनुय सुवाळ्यांनी आशिल्ली व्यक्तिमत्वा ही कोंकणी भास आनी संस्कृतायेची मूर्तीमंत रुपा आसात.

तेन्ना आमची भास आनी संस्कृताय हाचेर आता विशेश रितीन आर्मी बरोवंक जाय.. भासाभास करूंक जाय. व्हय, दरएक मनशाच्या जिवीतांत आवयक जितले मोलाचे स्थान आसता तितलेच मोलाचे स्थान आसता तें आपल्या आवय भाशेक. भाशेवोरवीं संस्कृताय आनी संस्कृतायेवोरवी स्वाभिमानाचें संवर्धन जाता. ह्या दिश्टीन चिंतल्यार आमच्या जिवीतांत संस्कृतायेक लेगीत तितलेच म्हत्व आसा. कित्याक संस्कृतायेवोरवी आमची वळख हेर संवसाराक जाता. ह्या पासोत घाटमाथ्यावयली कोंकणी संस्कृताय आमच्या समेस्त घाटमाथ्यावयल्या कोंकणी मनशाच्या जिवीतांतलो एक मोलादिक भाग आसा.

**संस्कृताय म्हळ्यार कितें ?**संस्कृताय म्हळ्यार संस्कारांनी पुराय अशी भाशेच्या माध्यमावोरवी व्यक्तीच्या जिवीताक संस्कारमय करपी आनी परंपरेपरमाणे बांदून दिलेली सामाजिक जिवीत जगपाची रीत व्हय. संस्कृताय म्हळ्यार एकाद्र्या समाजाच्या अस्तीत्वाची रीत आसता.

**भास , संस्कार आनी संस्कृताय** : ह्या प्रिथुमीचेर सगळ्यांचेर संस्कार घडटात. संस्कार म्हळ्यार वेगवेगळ्या माध्यमांच्या रुपान वो समाजात वावर करीत आसतना, सामाजिक, कौटुंबिक आनी धार्मीक चाली रिती सांबाळता आसतना मनशाचेर जावपी चाली-रितींचो परिणाम. जिवीतांत जे वेगवेगळ्या रुपान नवनिर्मीती जाता, त्या नवनिर्मीतीचो तो संबाळ करता आनी फुडल्या पिळगीमेरेन पावयता, हातूंतच आसा संस्करमय जिवीताचे गुपीत. संस्कृतायेच्या निर्मीतीपासोत आनी जतनुकीपासोत सामाजिक जिवीत गरजेचे. सामाजिक जिवीतांत सामाजिक कार्यावळी आनी सामाजिक चालीरीतींचो मोलादिक आस्पाव आसता. खंयचेय धार्मीक, सामाजिक, कौटूंबीक कार्य वा सुवाळो आसल्यार तो सुवाळो मनोवपाच्यो रिती आसतात. ह्यो सगळ्यो गजाली परंपरागत रितीन एका पिळगीथावन दुसऱ्या पिळगी मेरेन सुरू आसतात आनी हातूंत भास हे एक प्रभावी माध्यम आसता. मनीस एका विशिश्ट संस्कृतायेंत जल्मता, वाडता. ताच्या बुद्दीची वाड जावच्या पयलीच मनीस आपल्या संस्कृतायेची मुल्या आत्मसात करता.

**संस्कृतायेची उत्पत्ती, संक्रमण आनी उदरगत** : संस्कृतायेची उत्पत्ती, जतणूक आनी संक्रमण भाशेवोरवीं जातात. ह्या पासोत भास हें संस्कृतायेचे एक प्रभावी अंग आसा. भाशेबगर संस्कृतायेची निर्मीती आनी संक्रमण जावप अश्यक्य आसा. संस्कृताय जितली पदार्थमय आसता तितलीच ती कल्पनामय लेगीत आसता. ती थीर वो अचल अशी नासता तर ती ल्हवू ल्हवू बदलत आसता. ह्या पासोत खंयच्याय संस्कृतायेचो अभ्यास करचो जाल्यार त्या समाजांतल्या जिवीतक्रमांचे, चालीरितींचे सूक्ष्म परीक्षण करचे लागता. भास संस्कृतायेचे प्रतिक आसता. भाशेवोरवीच सुसंस्कृत समाजाची जडण-घडण जाता तेच बाशेन समाजाची उदरगत जाता. उदा : मारवाडी, शेट्टी, गुजराती, सावजी, सिंधी आनी हेर समाज.

*(संदर्भ ..इरावती कर्वे - आमची संस्कृती )*

* * *

साद - प्रतिसाद :

## जे.बी. सर म्हळ्यार 'प्रांपचिक मिशनरी'

मानेस्त संपादक, उजवाड

म्हाका उजवाड म्हैनाळ्यांचो जून-जूलै अंक पावोंक नसलो. तुमका विनिंती केली.रोखडेंच तुमी तो अंक पाटयला, त्या पासोत व्हड उपकार.

जे. बी. सरांच्या ७५ व्या वाडदिसा निमतान असुलो ह्यो विशेशांक चड सोबीत आनी देखनो जाला. तांच्या इश्ट आनी सोयऱ्यांनी केल्ली तांची तोखणाय प्रसंगानुरुप आनी योग्यच हां एकदम उण्या उतरांत सांगचे जाल्यार -जे.बी. सर म्हळ्यार ' प्रांपचिक मिशनरी' हांत.

तुमी फा. वालेंत फर्नांडिस हांनी बरयल्ल्या 'बारदेस्कर मंडळी' ह्या पुस्तिकेचो कोंकणीत अणकार सुरु केलां हे पळोवंन म्हाका व्हड खोस भोगली. घाटमाथ्यावयल्या दर एकल्या मनशान हो अणकार आनी मुळावे मराठींतले पुस्तंक जरुर वाचंचे. अणकार सोबीत जाला. तुमचे अभिनंदन. म्हजी अजून एक विनंती हां - फुडल्या अकांत तांचो परिचय दिवंचो. जरी ते अडकूर गांवचे सुपूत पूण तांची सगळी कारकिर्द 'अहमदनगर' जिल्ह्यांत गेल्ली हां.

"आमी जोणकार-हळदणचे गांवकार" डॉ. रोझारीयो डिसोझा हांचो अस्सल कोंकणी लेख वाचून चड आनंद जालो. तांका म्हज्यो परबीं. एक धाकलीशी दुरुस्ती करची. शुद्रांची कम्युनिदाद च्या बदल्यांक चाड्ड्यांची कम्युनिदाद असो शब्द जाय. चाड्डो म्हळयांर 'क्षत्रीय'. गोयांत बामण आनी चाड्डो ह्या दोनुच जातींक गांवकरी पनाचो मान असुल्लो. विशेष मृळयांर घाटमाथ्यावयल्या बामण क्रिस्तांव मदें ९५% वयीर लोग "हळदोण्याचे जोणकार" हांत.

बरें मागून, **आल्फी मंतेरो, पुणे**

alphiemonteiro@gmail.com 09370665992

## जे.बी.सर म्हळ्यार प्रति साने गुरुजी

श्री जे. बी. बारदेस्कर हांचो अमृत महोत्सव विशेष अंक प्रसिध्द केल्यापासांत तुजे अतकरणाथावन अभिनंदन. समाजक सुसंस्कृत करण्याचे, लोकशिक्षणाचे जे उजवाडा वोरवी कार्य चालता त्या पासोत तुका काळजाथावन परबी आनी धन्यवाद.

जे.बी. सारकी व्यक्ती-संस्थेरुपान आमच्या मदें जियेता, चलता, उलयता, हसत मुखामळान समेस्तांक येवकार दिता हे आमचे भाग्यच आसा. पूण हे इतले व्हडले व्यक्तीमत्व आसा म्हूण आमच्या मतींत ये ना.

महात्मा गांधीन सत्याचे प्रयोग केले. जे.बी. सरांनी लेगीत कसल्याच परिणामांचो विचार करी नासतना सत्याच्या मार्गाचो अवलंब केला. शिवाजी महाराजांक जशी जिजामाता आवय म्हूण फावो जाली. तशीच म्हजी मावशी तांकां आवय म्हूण फावो जाली. सर्गेस्त कोतुबाय म्हळ्यार निर्मळ आनी मोगाळ व्यक्तिमत्व व्हय. आपल्या घरा आयिल्ल्या सगळ्यांक ती व्हड आपूरबायेन वागयताली.

जे.बी. सरांनी जेन्ना साहाना हायस्कुलची स्थापना केली तेन्ना तिचो तोकां व्हड आदार आसालो. शिक्षकांचो पाग फारीक करुंक तिफा शेत विकचे पडाले. व्हड ती आवय आनी तिचो सुपूत-जे.बी. सर!

साने गुरुजी जे.बी. सरांचे आदर्श आसले. तांचो शीश्य-अर्थात जे.बी.सर म्हळ्यार प्रति साने गुरुजीच आसात.सरांक बरी भलायकी लाबची आनी तांच्या हातान चडांत चड सेवा घडून येवंची म्हूण मागता.एक दर्जेदार अंक उजवाडाक हाडून सरांचो आदर्श सगळ्या सामकार दवरल्या पासोत परते एक फावट अभिनंदन! तुजोच मोगाळ, **जे.के. डिसोझा,**

स्पे. एक्झीक्युटिव्ह ऑफिसर आनी सामाजिक-राजकी मळावयले मानोत्त गोरेगांव, मुंबय 022-28724899

जे. बी. बारदेस्कर सरांचेर उजवाडायिल्लो विशेश अंक खूब सोबीत आनी देखणो जाला अशो आमकां मुंबय, पुणे, कोल्हापूर, गडहिंग्लज, खानापूर, गोंय आनी परिसरांतल्यान आयल्यात. त्या सगळ्यांक आमीं काळजाथावन परबीं दितांव. कांय प्रतिक्रिया आमी फुडल्या अंकांत प्रसिद्ध करतलें.

तशेंच पानासकेयल जून-जुलय २०१४ हचे सुवातीचेर मे २०१४ अशे आयला त्या पासोत दिलगिरी उक्तायतांव- संपादक.



# पुस्तका उक्तावण सुवाळ्याच्या निमतान

घाट माथ्यावयल्या पयल्या कोंकणी पुस्तकांच्या उक्तावण सुवाळ्याचे आमंत्रण पळोवनच म्हाका चड खोंशी जाली. ह्या इतिहांसीक सुवाळ्यांक हजेरी लायची म्हणून पयसल्यान पुण्यांतल्यान बाकीची म्हत्वाची कामां बाजूक दवरुन हांव बेळगांवां पावलो. घाट माथ्यावयीर फाटील्या अडचशे- तीनशे वर्सां आमच्या पूर्वजांनी बोलीरुपान जिवित दवरलेल्या कोंकणी भाशेंक आतां पुस्तकांच्या माध्यमातल्यान शब्दरुप मेळुंला ही एक म्हत्वाची गजाल; तांतून दोनीही बरोवपी-लेखक म्हजे लागचे सोयरे - मिलाग्रीनबाय डिसोजा म्हज्या बायलेची मोगाची धाकटी आक्कय तर लुईसबाब म्हजो मोगाचो भाचो.

अदमासान तीन शेकड्या आदी गोयांतल्यान क्रिस्तांवाचो एक गुट निर्वासितांबरोबर आसरो सोदंत घाटमाथ्यार पावलो. थंयसर आसली एक वेगळीच भास आने संस्कृताय- मराठी वो कन्नड; तांतून तो मिसळलो, तांच्या वांगडा एकरुप जालो. तांची जीवन पद्दत, तांचो पोशाखाचो रिवाज, जेवणखाणाची रीत तांने आपणायली. पूण तांने आपलो क्रिस्तांव भावार्थ सांडूक ना. ना विसरुंक तो आपली मायभास कोंकणी. भायर जरी तो मराठी उलयतालो पूण घरांत तो सदांच कोंकणीत वावुरतालो. बोलीरुपान तानी आपली आवयभास कोंकणी संबाळून, जतन करुन दवरली.

कोंकणीचे मूळस्थान गोंय जरी पयीस उरले पूण तांका लोकगीतां येरसा आनी घुमटांनी सदांच उर्बा दिली. ह्या येरसां नी घुमटांतल्या उतरांनी तो गोयांतले सैम आनी संस्कृताय आपल्या नदरेमुकार साकारंतालो. भास तिगोवन दवरतली उमेद ताका ह्या लोकगीतांतल्यान मेळत गेली.सोळां वर्सां आदी (१९९८) फादर प्रभुधर हानीं दिलेल्या प्रोत्साहनांत आमच्यातल्या मा. बेन डिसोजा, जे.बी. सर, सर्गेस्त जॉन फर्नांडिस आनी हेर जाणट्यांनी फुडाकार घेवन उजवाड म्हैनाळ्याची स्थापना केली. पत्रकारितेंत अणभव आशिल्ल्या लुईस रॉड्रिग्स ह्या तरणाट्यांन उजवाड संपादक म्हूण जबाबदारी स्वीकारली. ह्या उजवाडच्या माध्यमांन आमच्या घाटमाथ्यावयल्या कोंकणीक पयलेंच पावटी एक व्यासपीठ मेळले आनी तिका ह्या म्हैनाळ्याच्या वतींन शब्दरुप मेळुंक सुरवांत जालीं.

इतली वर्सां आमीं घरांत आनी सोयऱ्या वांगडा कोंकणी उलयताल्याव, पून उजवाडान आमकां कोंकणी वाचूंक शिकयलें. तांतली मेरेन, हेर पिरायान, आस्पाव आसली उतरां आमी पयल्या पावटीच वाचली आनी आयकली. मा. पुंडलीकबाब नायक तशेंच गोयांतल्या नामनेच्या साहित्यीक आनी इतर फुडाऱ्यांनी आमंका लागी केले, उर्बा दिली, एक वेगळो आत्मविश्वास दिलो.

हळूंहळू आनी मंदगतीन आमच्यांतले कायजण कोंकणीत बरोंवक लागले. कविता करुंक लागलेत. (एलन बोर्जीस, मिलाग्रीन डिसोजा, आल्फी मंतेरो, मिलन बारदेस्कर, गिरगोल रॉड्रीग्स, रुजारिओ पिंटो, मिनीन गोन्साल्वीस आनी खूपशें). ह्या पंदरा-सोळां वर्सांच्या धडपडीचे मधूर फळ म्हळ्यांर ह्यां दोन पुस्तकांचे ३ ऑगस्ट २०१४ दिसा जाल्ले उक्तावण.

जेन्ना केन्ना आमच्या घाटमाथ्यावयल्या कोंकणीच्या वाटचालीचो इतिहास बरयतेलो प्रसंग येत तेन्ना जिविताचो प्रवास आनी मिलाग्रान डिसोजा आनी लुईस रॉड्रिग्स हांची नोंद जरुर जातेली. पयलेपनोचा भोवमान तांकाच लाबतेलो. त्यां दोघांक समेस्त कोंकणी मोग्यांकडच्यान व्हड व्हड परबी. म्हजी उजवाड म्हैनाळ्यांच्या सगळ्यां, वर्गणीदारांक विनंती हां की ताजी ही पुस्तंका खरेदी करंची आनी ह्या पयलेपनोचो मान मेळुंल्ल्या दोनी लेखकांक उत्तेजन दिवंचे. तांची उमेद आनी उर्बा वाडयची.

जिविताचो प्रवास हे मिलाग्रीन डिसोजा हांनी बरयल्या ३१ ललित निबंदाचो संग्रह हातुंतले विशय विविध हांत. आता मेरेनच्या भोवंडीत तिका आयील्ले बरे-वयीट अनुभव, इश्ट सोयऱ्यांचो काळजाथावन केल्लो उगडास. तांचे कुळार कोवाड त्या गांवचे आनी थंयच्या सैमाचे वर्णन, उमाळ्यांत

केल्लो आपल्या आवयचो नतालीन हीचो उगडास, भागूमामा, काशीअक्का अश्या इश्टांचो भावनाभरीत शब्दचित्रा, संज्याव, फेस्त, काजरां सारक्या घाटमाथ्यावयल्या संस्कृतायची, रीतीरिवाजांची वळक करुन देणारे निबंद विशेश म्हळ्यांर हेमा नायक ह्या कोंकणीतल्या नामानेच्या आनी साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळुंल्या लेखिकेन ह्या निबंदाचे संपादन करुन प्रस्तावन बरयल्या.

गोट्या ह्या मराठीतल्या फामाद पुस्तकाचो अणकार लुईस रॉड्रिग्स हांनी कोंकणीत केला. मुळावे पुस्तक हे श्री.ना.धो. ताम्हणकर हांनी भुरग्यांसाठी बरयल्लें बाल साहित्य. १९६० च्या दशंकात बरयले पुस्तक भुरग्यां इतलेंच पिरायेन व्हडल्या लोकांत देकून लोकप्रिय झाल्लें. दूरदर्शनवयीर गोट्या मालिका प्रसारित जाल्या. हेर भाशांतले अभिजित साहित्य कोंकणी भाशेंत हाडून तिचे भाडांर समृध्द करतेंले मोलादिक कार्य लुईसबाब रॉड्रिग्स हानी केला. ताकां काळजाथावन परबी.

माकां दिसता लुईस रॉड्रिग्स हांनी मजें तशेंच मज्यासारखे उजवाड म्हैनाळ्यांत बरयणाऱ्या लोकांचे ताने उपकार मानूंक जाय असले. उजवाडचे बरेचशे बरयपी-लेखक ताका तांचे लेख कराठी, इंग्लीश, हिंदी आनी कन्नड भाशेंत धाडून दितालेंत. आनी तो बिचारो कोंकणीत अणकार करुन छापतालो आपलें अनुवादकार म्हणून नांव देकून तो बरय नसतालो.आमच्या ह्या अणकार करतेल्या अणभावांक लागून ताका गोट्या पुस्तकाचो अणकार करताना कश्ट पडूंक नसतीत अशे दिसता. ताने राग धरचो नय पून तो आमचे उपकार मानतालो तर आमंका खोशी जाताली आसूं.

गोट्या पुस्तकांवयल्यान एक याद आयली, दोन वर्सां आदी लुईसान माका फोन केलो आनी सांगले की पुण्यांतल्यान ताका मराठीतले गोट्या पुस्तक धाडून दिवंचे ताने अणकार करयचे ठरयला. पुणे तर मराठी भाशेंचे आनी साहित्याचे कुळार म्हणून ताकां हांवे व्हय म्हळें. फुडें हांवे चार-पांच दीस पुण्यातली सगळी पुस्तकांची दुकाना सोदले पूण तें म्हाका खंयच मेळनां जालें. सगळें म्हणूंक लागले की हें चड पोरणे पुस्तक आसा आनी ताची प्रत मेळची हमी नां. शेवटाक हांवे थारायले की, लायब्रीकडल्यान हें पुस्तक उसणे हाडचे आनी ताची फोटो कॉपी करून धाडची. ही खबर हांवे म्हजे मुंबयतले इश्ट आनी मराठींतले नामनेचे लेखक डॉ. शरद वर्दे हांकां सांगली. ताणीं म्हाका धीर दिलो आनी गोट्या पुस्तक दोन दिसात म्हाका पावयले. अशा रितीन गोट्याच्या जल्माक म्हजोय इल्लोसो हातभार लागला.

कोंकणीचे साहित्य विश्व मंगळूरी, कारवारी, केरळी , मालवणी तशेच मूळ गोंयांतल्या साश्टी,अंत्रुजी, बारदेशी अशा विविध बोली रुपांतल्यान गिरेस्त जाल्लें आसा. आनी ह्या भांडारात आतां घाटमाथ्यावयल्या दोन पुस्तकांनी प्रवेश केल्लो हा. म्हजो विश्वास हां की आमी अजून लेगेत भरप्पोरा समृद्ध करतेल्याव.

ह्या सुवाळ्याचे सविस्तर वर्णन उजवाड म्हयनाळ्यांत खबरेच्या रुपान येतलेच, पूण म्हाका ह्या कार्यक्रमाचे खाशेलेपण कितें दिसले तें अशें :

* प्रकाशनाचो सुवाळो चड सोबीत आनी देखणो जालो कित्याक म्हजो अणभव आसा की आसल्या साहित्यिक सुवाळ्याक कमी लोक पावतात, पूण नाझरेथ हॉल म्हाका गच्च भरलेलो दिसलो.

* शावेर मास्तर (मा. शावेर गोन्साल्वीस) हांचे म्होवाळ मधूर भाशेंतले सुत्र संचालन.

* हे सुवाळ्याक हेर समाजांतल्या प्रतिनिधीक दिल्लें आमंत्रण आनी तांचो आस्पाव.

* लेखक द्वयींचो करून दिल्लो परिचय आनी तांचे मनोगत. * फादर प्रभुधर हांचे चरित्रकार प्रा. किसनराव कुराडे हांचे गोट्या संबंदातले भाशण्न.

* पुंडलिकबाब नायक हांचे उमेद दिवपी , उर्बा दिवपी अध्यक्षीय भाशन. * उक्तावण सुवाळ्याचे कुशल आनी वेवस्थीत येवजण.

***आल्फ्रेड ब्रिटो, मायकल गोन्साल्वीस, शावेर गोन्साल्वीस, बबन द्रागो, मिनीन गोन्साल्वीस, गिरगोल रॉड्रीग्स आनी टीम उजवाडचे अभिनंदन.***

**आल्फी मंतेरो, पुणे**
alphiemonteiro@gmail.com 09370665992

विश्व कोंकणी स्कॉलरशीप फंडातर्फे विद्यार्थी वेतनांचे वितरण सुवाळो

# कोंकणी अल्पसंख्यांक भाशिकांक अल्पसंख्यांकांचो दर्जो दिवंचो : मोहनदास पै




कार्यावळींत उलयताना मोहनदास पै. माचयेर आशिल्ले रामदास कामत, आयव्हन डिसोझा, बस्ती वामन शणै, श्रीमती विमला पै आनी मानेस्त

मणिपाल ग्लोबल एज्युकेशन संस्थेचे चेअरमन आनी इन्फोसिसचे माजी संचालक टी.व्हे. मोहनदास पै हाणीं अल्पसंख्यांक भाशिकांक लेगीत अल्पसंख्यांकांचो दर्जो दिवंचो म्हूण जनहित याचिका दाखल करपाचे थारायला. मंगळूर हांगा २० ऑगश्ट दिसा विश्व कोंकणी केंद्राच्या वतीन कोंकणी स्कॉलरशीप प्रदान सुवाळ्यांत तें मुखेल सोयरें म्हूण उलयताले. पांच वर्सां आदीं हुशार कोंकणी भाशिक विद्यार्थ्यांपासोत विश्व कोंकणी स्टुडन्ट्स स्कॉलरशीप फंडातर्फे (VKSSF) इंजिनियरींग आनी वैजकी कॉलेजांनी दाखलो घेतिल्ल्या प्रतिभावंत कोंकणी विद्यार्थ्यांक ही स्कॉलरशीप मेळटा. २०१४–१५ वर्सांपासोत १६१ विद्यर्थ्यांची ह्या स्कॉलरशीप पासोत निवड जाल्या तर पयले वर्स ते निमणे वर्सांमिरेन ५७९ विद्यार्थ्यांक तीन करोड रुपयांच्या स्कॉलरशीपचे वांटप ह्या दिसा जाले.

महाराश्ट्र,कर्नाटक, केरळ आनी गोंयांत कोंकणी मनशाचो राबितो आसा. गोंय सोडल्यार हेर तीन राज्यांनी कोंकणी भाशिकांचो आस्पाव अल्पसंख्यांक भाशिकांमदें जाता. जर जातीचेर आदारिल्ल्या अल्पसंख्यांकांक विशेश सुविधा उपलब्ध आसात, जाल्यार भारतीय संविधानांत ज्या भाशिकांचो अल्पसंख्यांक भाशिक म्हूण जाला, तांकां ह्यो सुविधा कित्याक मेळच्यो न्हय ? भारतीय राजकारण्यांनी फकत आपल्या राजकी सुवार्था पासोत जातीय अल्पसंख्यांकांक सुविधा मेळोवन दिल्यात, पूण कोंकणी भाशिक अल्पसंख्यांक मात पयस उरले. ह्या पासोत एक जनहित याचिका दाखल करून भाशिक अल्पसंख्यांकांक लेगीत सुविधा मेळच्यो म्हणून म्हजे प्रयत्न सुरू आसात. सगळे रितीन बरो अभ्यास करून फुडल्या तीन – चार म्हायन्यांत हांव ही याचिका दखल करतलो, अशे मोहनदासबाब हाणीं आपल्या उलोवपांत फुडें म्हळें.

फुडे उलयताना ताणीं कोंकणी मनशान राश्ट्रीय मळार मोलादिक भुमिका निबयची वेळ आयल्याचे सांगले. कोंकणी मनीस राश्ट्रीय मळार शिक्षण, कला, सामाजिक आनी आर्थीक मळार अग्रेसर आसा, मागीर तो राजकी मळार कित्याक बरे फाटी आसा ? असो प्रस्न ताणीं करून कोंकणी मनशाचे राश्ट्रीय आनी जागतिक मळार व्हड संघटन जावपाची गरज उक्तायली.

ह्या वेळार विश्व कोंकणी केंद्राचे अध्यक्ष आनी विश्वस बस्ती वामण शेणॉय, रामदास पै, डॉ. पी. दयानंद पै, श्रीमती विमला पै, विधान परिशद सदस्य आयव्हन डिसोझा, VKSSF चे चेअरमन रामदास कामत, मेल्ड्रीडा रॉड्रीग्स आनी हेर मानेस्त हजर आसले. ही कार्यावळ यशस्वी जावंच्याक विश्व कोंकणी केंद्राचे सचीव गुरुदत्तबाब बंटवाळकर हाणीं विशेश कश्ट घेतले.

* * *

# उजवाड परिवारान घडोवन हाडलो घाटमाथ्यावयल्या पयल्या कोंकणी पुस्तकांचो उत्कावण सुवाळो : (मिनीन गोन्साल्विस हांचेकडल्यान)





'गोयांथावन ४०० वर्साफाटी घाटमाथ्यावयर येवून राबितो केल्ल्या कोंकणी मनशांनी घाटमाथ्यावयर केल्ले सामाजिक, सांस्कृतिक,शैक्षणिक आनी हेर क्षेत्रांतले कार्य चड मोलादिक जावन आसा. कर्नाटक, महाराष्ट्र, केरळ राज्यात कोंकणी मनीस गेले. ते अल्पसंख्याक आशिल्ले, पून थंयंच्या समाजांत एकरुप जावन आपल्या बऱ्या कार्याविरवी कोंकणी मनशान समाजांत एक वेगळे स्थान निर्माण केले, ' अशे उलोवप गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष आनी ज्येष्ठ कोंकणी साहित्यिक पुंडलिक नायक हाणीं केले.

आयतार ता. ३ ऑगस्ट दिसा दनपारा नाझरेथ हॉल, फातिमा कॅथेड्रल, बेळगांव हांगसर उजवाड परिवारावरवी जाल्ल्या लुईस रॉड्रिग्स हाणीं अणकार केल्ल्या ' गोट्या ' आनी मिलाग्रीन डिसोजा हाणीं बरयलेल्या ' जिविताचो' प्रवास ह्या घाटमाथ्यावयल्या पयल्या कोंकणी पुस्तकांच्या उत्कावण सुवाळ्यावेळार अध्यक्ष स्थानावयल्यान ते उलयताले. बेळगांवचे भोव मानादिक गवळीबाप रेव्ह.डॉ.पीटर मचाडो, साधना एज्युकेशन सोसायटी गडहिंग्लजचे संस्थापक आनी सेक्रेटरी जे.बी.बारदेसकर, दैवज्ञ ब्राह्मण सेवा संघ बेळगांवचे अध्यक्ष प्रवीण रेवणकर, सारस्वत ब्राह्मण समाज बेळगांवचे अध्यक्ष श्रीनाथ देशपांडे, शिवराज विद्यासंकुल गडहिंग्लजचे अध्यक्ष आनी नामनेंचे मराठी साहित्यिक प्रा. किसनराव कुराडे-पाटील,घाटमाथ्यावयली प्रतिभावान लेखिका मिलाग्रीन डिसोजा,तळमळीचे कोंकणी कार्यकर्ते पत्रकार आनी उजवाडचे संपादक लुईस रॉड्रिग्स उजवाड आनी केंद्रीय साहित्य अकादेमीचे सल्लागार जॉन (बबन) मेन्डोन्सा, पुणे कोंकणी क्रिस्थ सभेचे संस्थापक अध्यक्ष आल्फी मंतेरो, उजवाडचे सल्लागार, नामनेंचे व्यावसायिक गिरगोल रॉड्रिग्स हे सगळे मानेस्त व्यासपीठाचेर आशिल्ले.

दनपारा सुरु जाल्ल्या ह्या आगळ्या वेगळ्या कार्यावळीची सुरवात संतिबस्तवाडच्या सोफी डिसिल्व्हा टिचर आनी पंगडान सादर केल्ल्या सोबीत स्वागत गीतान जाली. भोव मानादिक गवळीबाप रेव्ह पीटर मच्याडो आनी मानेस्तांच्या हस्तुली दिवली पेटोवप जाले.

उजवाड परिवारातर्फे मिनीन गोन्साल्वीस हाणीं मानेस्तांक येवकार दिवपी उलोवप केले. गवळी बाप रेव्ह पीटर मच्याडो हांका राश्ट्रीय आदर्श शिक्षिका एलन बोर्जिस हाणीं बुके दिवून येवकार दिलो. नामणेचे कोंकणी साहित्यिक पुंडलिक नायक हांका डॉ. ट्रिजा गिरगोल रॉड्रिग्स, जॉन(बबन) मेंडोन्सा हांका उजवाड परिवारातर्फे सदस्य मार्यान बोर्जिस, श्री. प्रवीण रेवणकर हांका वाघवडे हांगाचे कोंकणी कार्यकर्ते मायकल गोन्सालिस, श्रीनाथ देशपांडे हांका निवृत्त शिक्षक, गणित तज्ञ जुजे मंतेरो, जे.बी. बारदेसकर हांका मार्शल लोबो, लेखिका मिलाग्रीन डिसोजा कुराडे हांका



आदर्श शिक्षिका मिलाग्रीन मार्शल लोबो हांका भो.मा. गवळीबाप पीटर मच्याडो हांणी बुके दिवन तांचे अभिनंदन केले. शेजाराक मानेस्त

संतिबस्तवाडचे व्यावसायिक बबन द्रोगो, लेखक लुईस रॉड्रिग्स हांका अँथोनी मंतेरो, जॉन (बबन) मैंडोन्सा हांका मिनीन डिसोजा, आल्फी मैंतेरो हांका बायटस कल्देरा, गिरगोल लुईस रॉड्रिग्स हांका फिलीप अल्वारिस सर हांच्यावोरवी बुके आनी फुला दिवन येवाकार दिलो.

विद्यामंदिर, सरोळी (ता. चंदगड) हांगच्यान मुख्याध्यापक पदावयल्यान तीस वरसावयर सेवा करुन निवृत्त जाल्ल्या आदर्श शिक्षिका मिलाग्रीन मार्शल लोबो हांका भो.मा. गवळीबाप पीटर मच्याडो हांणी बुके दिवन तांचे अभिनंदन केले. सुवाळ्यांत प्रकाशन जावपी कोंकणी पुस्तक गोट्या (मूळ मराठी पुस्तक, लेखक ना.धों ताम्हणकर) लुईस रॉड्रिग्स हांचो परिचय आल्फ्रेड ब्रिटो हांणी,आपल्या सोबित उतरांनी करुन दिलो. तर जिविताचो प्रवास ह्या कोंकणी पुस्तकांची लेखिका मिलाग्रीन डिसोजा हांची वळख एलिझा लुईस रॉड्रिग्स हांणी आपल्या गोड आनी मोवाळ उतरांनी करुन दिली.

गोट्या पुस्तकांचे उक्तावन नामनेंचे ज्येष्ठ कोंकणी साहित्यिक मा. पुंडलिक नायक हांचे हस्तुकी रिबन सोडवोन झाले. ह्या वेळार लुईस रॉड्रिग्स आनी लेखिका मिलाग्रीन डिसोजा हार्णी आपले मनोगत व्यक्त केले.

हया वेळार पुंडलिक नायक हाणी मुखार म्हळे, उजवाड परिवारांचो हांव एक घटक आसा. हो म्हजोच कार्यक्रम आसा. आयजच्या सुवाळ्याक एक वेगळे महत्व आसा. ते म्हळ्यार आयजाचे मुखेल सोयरे प्रा. किसनराव कुराडे-पाटील. कित्याक म्हळ्यार ताणीं बरयले झपाटलेले झाड फादर प्रभुधर स्वामी हे पुस्तक वाचून म्हाकां चड खुशालकाय भोगली. एका व्होड कोंकणी मनशाचो गौरव एका व्हड मराठी साहित्यिकान केला हाचेखातीर कुराडे हांका अभिनंदन आनी परबी दिता.

४०० वर्साफाटी गोवा सोडून घाटमाथ्यार आयिल्या, चार राच्यांत पसविल्ल्या कोंकणी मनशांनी घेतील्ल्या कष्टांचो ताणीं ह्या वेळार उल्लेख केलो. संपर्कातल्यान समन्वय हाडच्याक कष्ट घेवंचे पडतात ते कष्ट ह्या कोंकणी लोकांनी घेतले. स्वप्न सारस्वप्नांचो हो सारस्वत ब्राम्हण लोकांचो इतिहास सांगपी ग्रंथ आयला पून घाटमाथ्यावयल्या कोंकणी लोकांचो ग्रंथ अजून हक्क ना, अशे ताणी म्हळे घाटमाथ्यावयल्या लोकांणी बरोवयाची गरज आसा तरच तांच्या भुरग्यांक आपल्या पुर्वजांचो इतिहास कळतलो असे सांगून ताणीं दोनूस लेखांच्या पुस्तकांबद्दल तोकणाय केली. आयज सगळ्या क्षेत्रात कोंकणी मनीस दिसता. जे.बी. बारदेसकर हार्णी शेक्षणिक क्षेत्रात केल्ल्या कार्याची गौरव कितलो केल्यार कमीच आसा, असे ताणीं म्हळे.

लुईस रॉड्रिग्स एक आदर्श संपादक, पत्रकार, कार्यकर्तो, लेखक जावन आसा, पुन घाटमाथ्यावयल्या कोंकणी लोकांवयलो ताचो संशोधन ग्रंथ ज्या वेळार प्रसिध्द जाईत, तेन्नांच लुईस खऱ्या अर्थान लेखक जातलो. अशे सांगून ताणी म्हळे, तुमची शेता, भाटा आमी खाली, पुन तुमचो भोग आमका आसा. बेळगांवकरांची आकादेमीन दखल घेतल्या. घाटमाथ्यावयर चडूंक लागला. घाटमाथो साहित्याचे दिसटीन वयर येतलोअसं सांगून ताणीं परबी दिली.

(पान १५ चेर फुडें)

# ग्रंथाच्या आधाराक जे जिवीताची वाटचाल करतात तेच, भूतकाळाचेर आनी भविष्य वाचेर विजय मेळयतात

मिनीन गोन्साल्वीस हार्णी गोट्या आनी ह्या पुस्तकांच्या उक्तावण सुवाळ्या निमतान केल्ले येवकर भाशण

ह्या दनपारच्या सोबित वेळार उजवाड परिवारान घडोवन हाडिल्ल्या घाटमाथ्यावयल्या पयल्या कोंकणी पुस्तकाच्या उक्तावण सुवाळ्याक हाजर आशिल्लया सगळ्या भावा मयर्णीक माये मोगाचो येवकार। आमच्या भारत देशाचो अति पोरणो ग्रंथ म्हळ्यार वेद। हाची रचना महर्षि वेदवतयासान केली. तांतु ते म्हणतात ओम असतो मा सद्गमय । तमसोमा ज्योतिर्गमय । मृत्योर्मा अमृतंगमय । ओम शांती,शांती, शांती ही ।। म्हळ्यार आमकां असत्या फडल्यान सत्याकडे, काळखांतल्यान उजवाडाकडे आनी मरणांतल्यान अमर जिविताकडे आपोवन व्हर. बाब लुईस रॉड्रिग्स आनी बाय मिलाग्रीन डिसोजा हार्णी आपल्या पुस्तकां वोरवी हेच कार्य करुंक आशेतात, अशे म्हाका दिसता.

लेखक आमका जे किते बरे सांगूक आशेता तें सगळे तांका सर्गीच्या परम पित्याकडल्यान मेळता, असे म्हका दिसता. म्हणूनच महान संत कवी तुकाराम महाराज आपल्या अभंगाच्या शेवटाक म्हणतात, *फेडिले भंडार, धन्यता हा माल, मी तो हमाल, भारवाही ।*

आमचो सोमी जेजू ख्रिस्त लोकांक शिोप दिताना बऱ्यो बऱ्यो कानयो सांगातलो,दाखले दिताला आनी लोक कान देवन ल्यो ऐकतालो. ह्या वोर्वी तो लोकांक

असत्याकडल्यांन सत्याकडे व्हरतालो. ह्या खातीर सोमी जेजू ख्रिस्त एक बरो लेखक आशिल्लो अशें म्हणपाचे धाडस हांवे केल्यार अतिशयोक्ती जावंची ना, अशे म्हाका दिसता. म्हणूनच हांव म्हणतां पुस्तका, कानयो, कविता, कादंबरी बरोवन समाज परिवर्तन करपी लेखकांचे कार्य महान आसा. बाब लुईस रॉड्रिग्स आनी बाय मिलाग्रीन डिसोझा हाणी पुस्तक बरोवन केल्या ह्या महान कार्याचो गौरव आनी तोखणाय करच्याखातीर उजवाड परिवाराच्या विनंतीक महान मान दिवून रांगसर हाजर आशितल्या सगळ्या मानेस्ताक उजवाड परिवारातर्फे हांव काळजाथावन येवकार दिता.

बेळगांवचे मानदिक गवळीबाप रेव्ह डॉ. पीटर मचाडो, गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष आनी ज्येष्ठ कोंकणी साहित्यिक पुंडलिक बाळ नायक, शिक्षण महर्षी आनी कर्मवीर विठ्ठल रामजी षिंदे शिक्षण संस्था गडहिंग्लजचे अध्यक्ष, झपाटलेले झाड फादर प्रभुधर स्वामी हे पुस्तकाचे आणि हेर पुस्तकांचे प्रसिध्द लेखक, कवी, प्राध्यापक किसनराव कुराडे-पाटील, केंद्रीय साहित्य अकादेमी आनी उजवाडचे सल्लागार जॉन उर्फ बबन मेन्डोन्सा, दैवज्ञ सेवा संघ बेळगांवचे अध्यक्ष श्री. प्रवीण रेवणकर, सारस्वत ब्राम्हण समाजाचे अध्यक्ष श्री श्रीनाथ देशपांडे, साधना एज्युकेशन सोसायटी गडहिंग्लजचे संस्थापक जे.बी. बारदेस्कर, पुणे ख्रिस्त सभेचे अध्यक्ष यशस्वी उद्योजक आल्फी मंतेरो तळमळीचे कोंकणी कार्यकर्ते पत्रकार, उजवाडचे संपादक आनी आयज प्रकाशन लावेच्या गोट्या ह्या पुस्तकाचे अनकार करपी लुईस रॉड्रिग्स,घाटमाथ्यावयली प्रतिभावंत कोंकणी लेखिका आनी आज प्रकाशित जावयो जीविताचो प्रवास ह्या पुस्तकाची लेखिका मिलाग्रीन डिसोजा ह्या सगळ्यांक हांव काळजा थावन माये मोगाचो येवकार दिता.फादर कुट्टी,फादर्स, सिस्टर्स तसेच सगळे वांगडी, उजवाडचे वाचपी, लेखक, कवी, हितचिंतक पत्रकार आनी हांगासर हाजीर आशिल्ल्या हर एकाक हांव कळलोथावन येवकार दिता.

ग्रंथाच्या आधाराक जे जिवीताची वाटचाल करतात तेच, भूतकाळाचेर आनी भविष्य वाचेर विजय मेकयनान हे सांगताना संत ज्ञानेश्वर, आपल्या पसायदानान म्हणता आनी ग्रंथोपजीविये । विशेषी लोकी इये ।

दृष्टादृष्ट विजये । होआवे जी ।

इतले सांगून हांगसर हाजर आशिल्ल्या हर एकल्याक काळजा थावन येवकार दिवन आनी म्हाका हे यो काराचे भाषण करपाक संद दिल्या खातीर उजवाड परिवाराक देव बरेकरु म्हणता . - **मिनीन गोन्साल्विस**

* * *

## जे.बी. बारदेस्कर सरांचो उजवाड परिवारान गडहिंग्लज पडोवन हाडलो मोगाचो सत्कार

### जे.बी. सर म्हळ्यार गडहिंग्लज परिसराक पडिल्ले एक सोबीत सपन - लुईस रॉड्रीग्स



साधना समुहाचे संस्थापक आनी गडहिंग्लज, आजारा, भुदरगड, तालुक्यांतल्या शिक्षण आनी सामाजिक मळीर जार्णी मोलादिक वावर केला अशे मानेस्त जुजेवास उर्फ जे.बी. बारदेस्कर हांच्या अमृतमहोत्सवी वर्सा निमतान आयतार, २० जुलय दिसा उजवाड परिवारातर्फे भव्य सत्कार जालो.सांत आंतोनी इगर्जीच्या हॉलांत जाल्ल्या ह्या कार्यावळीचे मुखेल सोयरे म्हणू पॅरीश प्रश्टि फादर जोसेफ फर्नांडिस हे आसले.

कार्यक्रमाच्या सुरवेक उजवाडाचे संपादकी सल्लागार मिनीन डिसोजा हाणी समेस्ताक येवकार दिलो.

कार्यवेळीचे सुत्रसंचालन करपी उजवाडचे संपादकी सल्लागार प्रकाश करव्हालो हाणीं प्रास्ताविकांत उजवाडच्यो वाटचालीचेड प्रकाश उडयलो. घाटमाचो आनी कोकाणांतल्या कोकंणी समाजाचे व्यासपीठ म्हणून फाटल्या व १६ वर्साथावन उजवाडाक येवपी उजवाड म्हयनााळ्यान कोकंणी समाज जोडणीचे माध्यम आनी समाजाचे व्यासपीठ म्हूण चड मोलादिक वावर केला, अशे सांगून ताणी संपादक लुइस रॉड्रीग्स हांच्या कारकिर्दीची संक्षीप्त म्हायती दिल.

हया वेळार फादर जोसेफ फर्नांडीस आनी जे बी सरांचे सामाजिक योगदान चड करुन्न गडहिंग्लज पॅरीश

आनी इगर्जीच्या वावरांत तांचे मोलादिक मार्गदर्शने फावो जाता अशे सांगून अशे सांगून तांच्या फुडल्या जिवीता पासोत परबी उक्तायल्यो.

ह्या वेळार उलयतना उजवाड संपादक लुईस रॉड्रीग्स हाणी जे बी सर म्हणल्यार गडहिंग्लज परिसराक पडिल्ले सोबीत सपन अशा उत्रांनी केली. फकत एकच अंकावोरवी सरांची महानताय वर्णन करप अशक्य आसा, ह्या पासोत एकादो ग्रंथच बरयचो पडटलो,तरी आसतना सरांनी जे सामाजिक योगदान दिलं ताची कृतज्ञता व्यक्त करच्या दिश्टीन हो अंक ताच्या नांवान उजवाडयतना आपणाक चड खुशालकाय जाता जे बी सरांच्या नांवान उजवाडाक आर्नीक पर्जळीस जातेलो अशें, लुइस रॉड्रीग्स हाणी सांगून सांची आता जिवाताची शबर वर्सां पुराय करच्या दिश्टीन वाटचाल सुरु जाल्या म्हूण ताका परबीं उक्तायल्यो.

ह्या वेळार प्रा. जे. वाय बारदेस्कर, गडहिंग्लज, कॉंग्रेसचे अध्यक्ष बसवराज आजरी, मोतीराम फर्नांडीस, बेंजामीन डायस आनी मानेस्तांचो उलो जालो. ह्या उपरांत जे. बी.बारदेस्कर सर आनी सौ. मोनिका बारदेस्कर हांचा शाल आनी फुलांचो तुरो दिवन सत्कार करण्यात आयलो. तेच बार्शन उजवाडच्या विशेश अंकाचे उक्तावण करण्यात आयले.

आपले मनोगत व्यक्त करताना जे.बी. सर हार्णी आपल्या कारकिर्दीचेर नदर उडयताना आपली आवय सर्गेस्त कान्नुबाय आनी आपले सगळे वांगडी हांचे आभार मानले. देवाची इत्सा जयसर आसता थंयसर तो प्रत्येक मनशा कडल्यान कार्य करून घेता. हांवे चड व्हडले किते करूंक नां, पूण म्हज्या वांट्याक आयिल्ले कार्य हांवे केले, अशे जे.बी. सरांनी सांगले.

ह्या कार्यावळीक बेळगांवथावन गिरगोल रॉड्रीग्स, संतान लोबो, मायकल गोन्साल्वीस, पुण्याथावन एलियास बारदस्कर, नेसरीथावन शाहू फेरान, हेब्बाव थावन, जेरोन मेन्दोन्सा (जेस्नू मासार), बाबू सिक्वेरा, तशेच गडहिंग्लजचे सगळे मानेस्त आसले.

इचलकरंजीचे उद्योजक आनी उजवाड प्रतिनिधी मनसेल लुद्रीक हाणी उपकार मानाले. प्रकाश करव्हालो हाणी आपल्या सोबीत रितीन कार्यावळीचे सुत्रसंचालन केले.

**(फोटू :विशेश अंकाचे प्रकाशन करताना मानेस्त )**



# आरंभ

***गोंयच्या मयूरवर्मा नांवाच्या कदंब राजान आपली गादी भक्कम करच्या दिश्टीन दिल्ल्या आमंत्रणाक लेगून इसवी सनाच्या चवथ्या शेकड्यांत सारस्वत बामण बंगाल आनी बिहारांतल्यान देशांतर करून गोंयांत स्थाईक जालें.***

गांवांतल्या सगळ्या लोकांचेर भाटकारांची वचक आसताली.कित्याक गांवपंचायतींत तांच्या म्हणन्याक वजन आसताले. भाटकार चडकरून बामण वो क्षत्रीय आसताले....... *(फुडें )*

गोंय म्हळ्यार बारदेस्करांची मांयभूमी. हो एक सोबीत प्रदेश आसा. ल्हान व्हडले दोंगर, कडेकपारी, नद्यो–नाले, नाल्ल–पोफळी, भाताची शेती, लांबच्या लांब सोबीत दर्यावेळी आनी ताचेर पसरिल्ले पर्यटकांनी सदाकाल गर्दी केल्ल्यो चौपाटी ! दक्षीण भारतांत अस्तंतेकडेन आशिल्ल्या दर्यावेळेर गोंय आसा. सैमाच्या सोबीतायेपासोत जशें तें फामाद आसा तशेंच गोंय भात शेती आनी नुस्तेंमारी पासोत लेगीत तितलेच फामाद आसा.

भारतांतल्या हेर भागांबाशेनच गोंयांत लेगीत जातीसंस्था आसल्यो. डॉ. सेवेरीन सिल्व्हा हांच्या म्हणण्या परमाणे, ङ्ग सामाजिक दिश्टीन लोक चार जातींनी विभागिल्ले. बामण (ब्राह्मण), चाड्डे (क्षत्रीय), सुदीर (शुद्र) आनी गावडे. ह्या गटांचे एकमेकाकडेन तितलेशे संमंद नासताले वो तांच्या मदें कसलीच सोयरीक जाई नासली. तेच बाशेन हेर गूट तांच्या मदें सोयरीक जावंक दी नासले.*(हिस्टरी ऑफ ख्रिश्च्यानिटी इन कॅनरा, भा – २, १९६१ पान १०९)* तेच बाशेन वैश, कुणबी आनी शुद्र अशें हेर सामाजिक गूट लेगीत आसले.

गोंयांतले बामण मुखेलतायेन सारस्वत आसले. डॉ. टी. आर. डिसोझा हांच्या मतान पौराणिक परंपरा अशी आसा. ङ्ग स्कंदपुराणाच्या सह्याद्री रकंदांत सांगल्या बाशेन गोंयच्या मयूरवर्मा नांवाच्या कदंब राजान आपली गादी भक्कम करच्या दिश्टीन दिल्ल्या आमंत्रणाक लेगून इसवी सनाच्या चवथ्या शेकड्यांत सारस्वत बामण बंगाल आनी बिहारांतल्यान देशांतर करून गोंयांत स्थाईक जालें. आनी एका मतापरमाणे गोंयांत शेणवी सारस्वत बामण कच्छ–सौराश्ट्रांतल्यान देशांतर करून इसवीसनाच्या ८व्या शेकड्यांत गोंयांत आयिल्ले आसूंक जाय. हें देशांतर तेन्नाच्या अरबांच्या हल्ल्याचे दडपण आयल्या पासून जाले आसतलें. ( मिडियेवल गोंय, नवी दिल्ली – पान ५७).

राजाचे सल्लागार म्हणून भारतांत बामणांची ख्याती आसली. डॉ. टी. आर. डिसोझा हांच्या शेणवी सारस्वत बामणांवद्दल आशिल्ल्या मताक डॉ. सेवेरीन डिसिल्वा हांचे लेगीत सहमत आसा. डॉ. डिसिल्वा हांच्या मतान शेणवी जमात धाव्या शेकड्याथावन सध्या अदृश्य आशिल्ल्या सरस्वती न्हंयच्या खोऱ्यांतल्या सारस्वत मंडळांतल्यान देशांतर करून गोंयांत येत रावलो. कदंबांच्या भरभराटीक येवपी गोंयांमेरेन ताणीं आपल्या सगळ्या कार्यावळींचो विस्तार केलो. तांच्या हुशारपणा पासोत तांचे कदंबांच्य दरबारांनी मोल वाडले. तें शेतीं लेगीत बरेबाशेन करतालें.

बामणांचे हें स्थळांतर दिसांदीस आनी ल्हवू ल्हवू मदें मदें अंतर दवरून सुरुच आसले अशें दिसता. गोंयच्या तीन विभागांतल्या सारस्वत बामणांकडेन पळेयल्यार तांच्या मदें खूब फरक दिश्टी पडटा. कुट्टाळी– केलसीचे बामण चड स्मार्ट (हुशार) अर्थात तें शंकराचार्यांचे शिस आसात. तेच बाशेन साश्टीचे बामण वैष्णव आसात. बारदेस्कर बामण लेगीत ह्याच गुटांतले आसात.तरी आसतना तांची दैवता ही तांच्या लक्षणावयल्यान पळेयल्यार वेदोत्तर काळांतल्या क्षत्रियांच्या दैवतां बाशेन आसात. तेच बाशेन बार्देशच्या बामनांकडेन साष्टीचे बामन सकयल्या दिश्टीन पळेयतालेत. हाचे कारण म्हळ्यार तेंय आपल्या जेवणा

आदी थारिल्ले विधी पुराय करीनास्ताना जेवताले.

बामणा सांगता गोंयात क्षत्रिय लेगीत आसले. तांका चाड्डे म्हणटालें. गोंयांत त्या वेळार बामण आनी चाड्डे ह्यो फुडारिल्ल्यो जाती आसल्यो. गोंया परस गोंया भायर चड्डो ह्या उतरांचो वापर जाता. चड्डें हें क्षत्रीय आसात अशें कळटा. (ए.के. प्रियोळकर, दि गोवा इन्क्विझीशन पान ४६) डा.सिल्वा हांच्या मतान बामण जमातीबाशेन चाड्डी जमात लेगीत म्हत्वाची आसा.

" चाड्डें ह्या शब्दांची उत्पत्ती गुंतागुंतीची आसा. पूण उत्पत्तीन हो शब्द कोंकणी आसा. कोंकणींत चेडों आनी चेडूं ही दोन उतरां बामण आनी क्षत्रीयन अशा दोन जमातीन रूढ जाल्यात. भारतांत क्षात्रीय म्हूण जी जात आसली त्या लडाऊ कुटुंबात कुंवर म्हुणटाले. (प्रियोळकर पान १४७)

डा.लुईस कुन्हा गोन्साल्विस हाणीं आपल्या हो दिरेक्तो हिंदू ए मोहेमेतानो ह्या पुस्तकांत चेरडो ह्या शब्दाची फोडणीशी म्हायती दिल्या.

ग्लोसारिया लुजो आसियाटीका आनी पणजीचे हेराल्डो ह्या नियतकालीकानी चाड्डे हे वाणी आनी मराटे हांचे वारस आसा अशें म्हणटात. ह्या मताक पणजींतल्या कागद पत्रावयल्यान आधार मेळटा. (सिल्वा, पान ९६) डा.टी आर डिसोझा हांच्या मतान मराट्यांचो वांशीक गूट गोंयच्या लोकवस्तीचो एक म्हत्वाचो भाग जाल्लो. धर्मांतर जाल्या उपरांत चाड्ड्यांचो उदय जालो आनी ताणीं सामाजिक समानतेपासूत बामणांबरोबर चुरस केलीं अशें दिस्ता.( उपरोक्त पान ३९). **(क्रमश : फुडल्या अंकात)**

**उजवाडची वर्गणी (पटी) रोखडीच फारीक करात. पटीच्या बाकीबद्दल म्हायती जाय आसल्यार ०९४४८१३३१८९ ह्या नंबराचेर तुमचे नांव आनी गांव एस.एम.एस. करात.**



# फादर जेकब करव्हालो

Unedited

Good Morning,
dear friend, Louis
Congratulations to ELRods.
I went through every page of the present Issue of UZWAAD.
One can see the effort and the hard work
YOU put to bring out YOUR best creation
in such an orderly manner.
I went through every page & every article.
I was deeply impressed by all that I read.
Impressive, creative, admirable, praiseworthy.

Revered J.B. Sir deserved it.
God bless YOU for your dedication
&
for your application & service to UZWAAD.

Congratulations
to Elizabeth,
for her significant contribution to Uzwaad.

Thanks to YOU, dear Louis,
for giving me the honour
to make my contribution to Uzwaad,
especially when we bestowed honour
on this gracious, Godly, great person
that J.B. Sir is.

May God bless YOU, and all that you do
for Uzwaad.
Jacob Carvalho, S.J.
**jacobcarvalhosj@gmail.com**

*

# देव तुमका खरेच बेसांव दितलो



परवाच म्हज्या काकांच्या पिडेस्तपणांक लेगून हांव बेळगांवच्या के.एल.ई. हॉस्पिटलांत गेल्लो. आमच्या सांगाता आनी कांय लोक आसले. तातूंत एक क्रिस्तांव तरणाटो आसलो. आपले खरे नांव सांगचे न्हय अशें ताणे सांगला म्हणून ताका आमी अनामिक म्हणुया. हॉस्पिटलाच्या व्हरांड्यांत बसून ताणें आपल्या जिवीतांतली सांगिल्ली एक घडणूक.

ताचो बापूय जिवीताच्या निमाण्या काळांत कुडीच्या कितलेशाच व्याधींनी पछाडिल्ले. तें चड कश्टाळू आनी प्रामाणिक आसले. सदाकाल आपल्या कुडीच्यो वेदना विसरून तें वावरांत आसतातले. तांचो टॅक्सीचो वेवसाय आसलो. पूत गाडी घेवन घरा आयलो की भुरगी ती गाडी धुवून चकचकीत करचो तांचो सदाचो वावर.

तांच्या पिडेच्या काळांत ह्याच हॉस्पिटलांत येवचे लागताले. तांका जडिल्ल्या दूर्धर व्याधीक लेगून तर एक एक फावटी ७०-८० हजाराचे बील जाताले. वखदांक तर धा हजारांमेरेन प्रत्येक फावटी लागताले. तांच्या सदांच्या खर्चाक लेगून घरची आर्थीक घडी विस्कळीत जाली. घरांतले सगळे कितें काबार जालें, उसणे मागून सरले, कर्जा जाली आता कोणाकडेन हात पसरचो हो प्रस्न पडलो.

अशा अवस्थेंत निमणो डिस्चार्ज घेताना बील आयले १५ हजार रुपया. लागी फुटकी कवडी नासली. उसणे मागपाक लेगीत वाव नासलो. आतां कितें करचे असो प्रस्न उप्राशिल्लो. धाकटो भाव आनी हांव एकमेकाक वेंग मारून रडटाले आनी अशा ह्या दयनीय अवस्थेंत एक फोन आयलो.

ॠ अरें हांव हॉस्पिटलाच्या गेटकडेन आसा, तूं म्हाका येवन मेळ. ॠ हांव थंयसर पावलो तर थंयसर आमचे फादर उबें आसले. ताणीं खंयसरय नांव न सांगपाची अट घाल्ल्या आनी म्हाका ताणीं म्हळें, ॠ हांव १५ हजार घेवन आयला. बिस्प सायबाकडल्यान पांच हजार, सिस्टर्स कडल्यान पांच हजार आनी म्हजे पांच हजार अशी तजवीज केल्या. खरे तर हांवे म्हज्या आर्थीक अडचणी बद्दल केन्नांच उलोवंक नासलो, तरी म्हज्या परिस्थितीची तांका कल्पना आसली.

विशेश म्हळ्यार म्हज्या गरजेपरस एक रुपय चड वो उणो नासलो ! हाका देवाची कुरपा समजची वो आनी कितें हें म्हाका कळूंक तयार नां. तेच बाशेन त्या पाद्रीक देवदूत की आनी कितें समजचे हें कळ्ळे नां. आनी भावनिक जावन तो तरणाटो रडूंक लागलो. पूण त्या उपरांत ताणें जे कितें सांगले तें म्हाक अधिक मोलाचे दिसता.

अंकल त्याच दिसा थावन हांव थारायल्या परमाण म्हज्या दर दिसाच्या उत्पन्नांतल्यान मेजी नासताना कांय दुडू कुशीक दवरता आनी ते फादर जेन्ना जेन्ना मिसाक येतात तेन्ना तें तांचेकडेन सुपूर्द करता.कित्याक ह्या देवदूताच्या हातान आनींक गरजेवंतांच्यो गरजो भागच्यो आनी देवदूतां परमाणे तांची ही सेवा सुरू रावची ही इत्सा आसा. फाटल्या तीन वर्सांथावन म्हजे हे काम आसा. ह्या फुडें लेगीत हे कार्य म्हज्या हातान सुरू रावंचे ही म्हजी देवाकडेन आसा. म्हजे म्हयन्याचे उत्पन्न सादारण ५०-६० हजारांचे आसा. म्हजे हें उदाहरण घेवन कांय लोकांक स्फूर्ती मेळल्यार कितलेशाच गरजेवंतांक आदार मेळटलो. देव तुमका खरेच बेसांव दितलो.

**- मोतीराम शालू फर्नांडिस,**
गडहिंग्लज, फोन : 09423279235

**चतराय** : उजवाडांत वेळोवेळी अभिनंदन, परबीं, सिल्वह ज्युबिली, गोल्डन ज्युबिली आनी हेर जायराती प्रसिद्द जाईत आसतात. जायरात दारांचे उतर प्रमाण मानून आमी त्यो विश्वासान प्रसिद्द करतात, पूण कांय दिसांनी जायरातदार जायरात प्रसिद्ध जाल्याचे विसरून वयतात. तरी समेस्तांनी उजवाडांत प्रसिद्ध जाल्ल्या जायरातींची बाकी उगडासान फारीक करून उजवाड चलोवंक आपलो हातभार लायचो म्हूण नम्र विनंती.... संपादक



# सैमाचे गिफ्ट

– श्रीमती मिलाग्रीन आंद्रू डिसोझा

सैमान आमगेल्या सुखापासोत आनी समृद्धी पासोत भरभरुन गिफ्टा दिल्यात.मनीस ताचो जायतसो उपयोग करुन धादोशी जाता. सैमान कितले चिंतुन हे रचला पूण मनीस खय चिंतता?एक फावट पोटाच्या पोटलेत ठोसले म्हळ्यार झाले. मनीस साउदीन बरो रावो पासोत सैमान सगळी निर्मीती केल्या. सैमान मनशाच्या सुखापासोत फळां, फुलां, तरकारी, वखदां आमकां दिल्यात. फळाचो राजा आंबो इतलो बरो दिसता की तो चोयल्यार मनीस पिसो जाता हळडुवो केसरी रंग आनी माथ्यार पाचवी पानां तो तन्नो आसता तेन्ना पाचवोचार दिसता चोयल्यार तोडांक उदक सुटता माणिर मीठ सोडुन ताचेवांगडा दांत आंबपरयान चवीन खावंचोच पडता.

नव्या भुरग्याची जेन्ना चाहूल लागता तेन्ना बायलो आर्जवुन आंब्याचो उगडास काडतात. तन्नी तोरा मिठात घालुन दवरतात. गांयकारांची ही एक जेवणातली आपुर्बायेची डिश. आंब्याची साला काडून सोला करुन वोतात सुखोवन दवरतात सुगंटाच्या कडीत, नुस्त्याच्या कडीत घालतात.

टमाट्याचे भाव मळबांक भिडले म्हळ्यार गृहिणी सोला काडता. डाळीत लेगीत ताचो वापर करतात. आंब्याची तोरा तांदळाच्या पेजेवांजडा तोंडाक लायतात – सोलान कडीक वेगळीच रुच येता आनी यजमान ती आंबट-आंबट कडी शितावांगडा खाता.जेवणाचे भान रावनसताना असे म्हणून, मागिर पोटात हात फिरोवन हांव आज

चोड डोयलारे बाबा सुद नासताना असे म्हणून खो खो हांसत आपणाली व्होडक्रि गायता आंब्याची मुसंबो, आम्ररस, आम्रखंड, आम्रबर्फी, आईस्क्रीम, कोल्ड्रींक्स असे हरएक नमुन्यांनी मनीस आपणाल्या जिभेचे चोंचले पुराय करता. आंबो मनशाच्या जिवितात कितल्या तऱ्हेनीं उपेगी पडता-देखुन तांका राजा नांव योग्य आसा.

कोकंणात आनी गोंयांत दुसरे मुखेल फळ म्हळ्यार फणस. झाडाच्या मुळासाकून शेंड्यामरेन ह्या फळांनी आपणाल्या आवयच्या (झाडाच्या) अंगार कबजा केल्लो दिश्टी पडता.व्होडले फणस लटकताना चोयल्यार दिसता ही बापडी आवय ह्या, भुरग्याचे वझे करी [illegible] आवय ती आवय तिका भुरग्याचे वझे करी [illegible] आपणाली भुरगी ल्हानुच दिसता. [illegible] व्होड खाशयेन झेलता. फणसाक वयर काडून [illegible] मधूर, रसाळ गरा मधान भरिल्ले. [illegible] तेन्ना ताची तरकारी कायबरी जाता. [illegible] कुडके करुन उकडुन काट काढतात. कोण काटे [illegible] ते कुसकरुन तातून तिकश्यान मीठ, हळदी, [illegible] मिक्स करतात हाडीत तेलाची कडकडीत [illegible] करुन सुबेस कादो घालून चरचरीत भाजुन तातून [illegible] बरी परतुन घेतात ही भाजी चपाती परस [illegible] झाल्यार तांदळाच्या भाकरी वांगडा रूचीक [illegible] कोण चणे-वाटाने उकडून

लेगीत ह्या भाजीत घालतात. फणसाचे आंब्याचे वझे सोगल्या सोयत्या-दायत्याक वेता. फणस पिकल्यार [illegible] घरादारात ताचो सुवास परमळना घरा येवपी मनीस [illegible] विचारता किते गे फणस पिकला दिसता [illegible] परमळला. तांतून हेतू दोन- एक तर मोगान विचारला आनी दुसरे विचारल्यावर फणसाचे गरे मोनीन दिवपाचे [illegible] लेगीत यजमाननीक दिवंचेच पडटा आनी मुखाचेर [illegible] किते आसना हासे हाडचेच पडता. फाटल्यान येवपी उत्रा वेगळीच आसतात. किते गे बाये ह्या बायलेक सपन पडदा दिसता घरांत कितेंही पिकल्यावर आपल्या बासन धांव घेता आसे मात आमगेले घर दिश्टी पडना.

चोड करुन फणस, आंबो पिकतात ते फेस्ता धरुनच. हिंन्दू धर्मांत वडसावित्रीच्या पोर्णिमीक खूबा महत्व. हातूत फळांक महत्व चोड सैमान त्याच वेळार आंब्या फणसाची निर्मीती केल्या. सांज्यावाक व्होकल-न्हवऱ्याक आंब्या फणसाचे वझे दिवंचे पडटा म्हणूनच सैमान हे फेस्ताक फळांची तजाविज केल्या धन्य त्या देवेबापाची लिला आनी धन्य त्या सैमाची किमया.

फणसाचे लेगीत बरे उपेग आसात फणसापोळी करतात. पियो उकडुन उज्यात भाजून खातात. बियाची साला काडून कुडके करुन तरकारी करतात, डाळ करतात

ही डाळ खमंग रुचीक आता. आता चिंच आंबट आसता नव्या भुरग्याचे आगमन जावच्या पयले बायलांक चिंचेची अपुरबाय ती चोरुन चिंचो खाता मागिर जाण्ट्यो तिची मस्करी करतात.आता नवो सोयरो आमगेर येतलो दिसता खा गो बाये लपो नाकाय ना झाल्यार आमगेल्या बाबाले कान फुटतलेत.

रांदपात चिंचेचो उपेग खुप. तन्या चिंचेची चटणी करतात. मध्यम चिंच साल काढून खाल्यार आंबट गोड लागता. चिंचो फोडुन बियो काढतात ,मिठ लायतात वोतांत सुखोवन गोळे बांधून बरणीत सोठोवन दवरतात. शाकाहारी, मांसाहारी दोनुय जेवणात तिचो उपयोग जाता. चिंचेत व्हीटॅमिनस् खूब लेगुन केसांक तिचो उपेग जाता. केसा पिकनात. साऊथ इंडीयाची लोका रांदपात चिंचेची उपेग सढळ हातान करतात. देखुन त्या बायलांचे केस काळेभोर, लांबसडक आनी सोबीत आसतात. नागिनी बाशेन लांब वेणीचीर ती फुलांचे झेले माळतात. लांब केसां मृत्यार लांगेलो अलंकार. लांगेलो पाठमोत्या आकृतीकडे मनीस पिशाबासेन चोयला ती बाई दिशपाक कशीही आसू पूण केसाचे सौंदर्य मात्र मनशाक भूल घालता चिंचेत तिकसान माठ, गोड घालुन पारीक काढून ताचे गोळे करुन भुरगी चो प्रसाद मेकल्याबगर रावना.

चिकू, पपया, केळी, सिताफळ, रामफळ, संत्री, मोसंबी, अंजीर, ॲपल ज्या मोसमात ही फळां मेळतात ती आमी खाल्यार आमच्या कुडीक व्हिटॅमिन्स मेळता म्हणून जेन्ना ती फळा मेळतात तेन्ना ती खावप गरजेचे आसा. केळे स्वस्त आनी मस्त ते सोगल्यांक परवडता म्हणून तांका दुबळ्यालो पौश्टीक आहार म्हणतात केळ्याची कापा, भाजी करतात. पिकल्यार शिकरण करतात. भुरगी आपुरबायेन शिकरणाचेर ताव मारतात. दोन केळी खावन एक ग्लास दूद पियेल्यार जेवणाचो उगडास येना. फळा सुकल्यावर सुको मेवो जाता. तांतून खजूर-खारीक, काजू, मनुका, अकोड, जरदाळू, चारोळी, पिस्ता, हाचो उल्लेख झाला. ती साउद्दीक गरजेची आसाता.

मनशाच्या साउदीक तरकारीक खूप महत्व आसा मांसाहारी लोकांक लेगीत सदाच्या जेवणात तरकारी गरजेची आसता. शाकाहारी लोके मासांहारीची भरपाय दूध, तूप, फ्रुटस्, मोड आयलेली कडधान्य खावन करतात सैमान मनशाक जाय तितल्यो गजाली दिल्यात. ताचो आमी उपेग करुन निरागी आनी हेल्दी रावपाक जाय. निरोगी आनी गुटगुटीत शरीर होच मनशाचो खरो अलंकार आसता.

**- मिलाग्रीन आंद्रू डिसोझा, बेळगांव**

* * *

(उजवाड परिवारान घडोवन हाडलो... पान ७ वयल्यान फुडें)

**गवळीबापाचो उलो :** ह्या वेळार भो.मा. गवळीबाप रेव्ह पीटर मच्याडो हाणीं आपल्या संदेशात, म्हळे, बेळगांव सद्या भाशा प्रश्नावयल्यान तापत आसा,पून कोंकणी भाशेच्या मोगान उजवाड परिवारान आयज सगळ्या धर्माच्या लोकांक एकटाय केला ही इश्टागत मुकार व्हरुया,वाडावेया तशेच सोमी जेजू ख्रिस्त ह्या कार्याक आशीर्वाद घालू म्हूण मागले.

**प्रा. किसनराव कुराडे-पाटील**: प्रसिध्द मोठी साहित्यिक आनी गडहिंग्लज तालुक्यांतले सहकार नेते आनी शिवराज समुहाचे अध्यक्ष प्रा. किसनराव कुराडे-पाटील हाणीं म्हळे ,ह्या पवित्र परिसरात जावंच्या ह्या भोव पवित्र कार्याक हांव परबी दिता. गोट्या ह्या पुस्तकाचो नायक गोविंद कुलकर्णी हाका हांव वळखता. हे पुस्तक हरेंक कोंकणी

मनशाक भावतले. विनोदातल्यान भुरग्याचेंर बरे संस्कार कशे करप, हाचो बोध ह्या पुस्तकांत आसा. कोंकणी वाचप्यांक एख बरो खुराक दिल्या पासोत लुईस रॉड्रिग्स हाका परबी.

**जॉन (बबन) मेन्डोन्सा :** उजवाड आनी कोंकणी साहित्य अकादेमी दिल्लीचे सल्लागार जॉन (बबन) मेन्डोन्सा हाणीं, लेखिका मिलाग्रीन डिसोजा आनी लेखक लुईस रॉड्रिग्स हांच्याबद्दल म्हायतर सांगून तांचो गौरव केलो. लुईसांत पूर्वजांचे जीन्स आयल्यात म्हणून तो इतले म्हान कार्य करु शकता, अशे ताणे म्हळे. सुवाळ्याक हाजर आशिल्ल्या सगळ्या मानेस्तांचे ताणे आपल्या मार्मीक आनी गोड उलोपावोरवी आभार मानले.

एका फुलांच्या हारांत जशी मदे मदे सोबिन रंगीबेरंगी फुला असतात तशे मदे मदे आपली सोबीत, मार्मीक उतरा आनी विचार घालून सदांच्या बाशेन संतिबस्तवाडच्या शावेर मास्तर उर्फ शावेर गोन्साल्विस, सर हाणीं कार्यावळीचे सोबित सूत्रसंचालन केले. कार्यावळीक बेळगाव, खानापूर, चंदगड, गडहिंग्लज, पुणे वाठारांतल्यान व्हडा संख्येन कोंकणी मोगी हाजर आशिले. सगळ्यांच्या उपस्थितींत कॅथेड्रलाचो नाझरेथ हॉल खचाखच भरिल्लो.

* * *

# आमी जोणकार – हळदणचे गांवकार



*हिंदू धर्माच्या वर्ण व्यवस्थेची आनी धार्मिक बाटाबाटीतल्यान हिंदूंचे किरिस्तांव धर्मांत जाल्ले धर्मांतरण हाचो इतिहास म्हाका बरे बादीन खबर आशिल्ल्यान हें दोन कम्युनिदादींच्या अस्तित्वाची कारणां म्हज्या धेनांत आयली. .... (फुडें )*

आयज २१व्या शेकड्यांत आधुनिक काळांत हिंदू धर्माच्या जातीव्यवस्थेची पाळांमुळां अजुनुय कितली खोल रुतल्यांत हाची म्हाका खरपणान जाणवाय जाली. आमी म्हणटात सगळें किरिस्तांव भाव एक, पुण अजुनुय किरिस्तांव वामण –बामणुच उरला आनी शुद्र– शुद्रच उरला हाच्या अस्तित्वांची गवाय म्हणल्यार ह्यो दोन कम्युनिदादी आसात. आता तरी जाती–कातीच्या आदाराचेर उब्यो आशिल्ल्यो हो समाजसंस्था आता सगळ्यांक अजून कित्याक उगत्यो जायनांत हाची मनांत खंत उरली. जाती आनी धर्मांच्या नांवान मनशां मनशांमदीं फूट घालपी थाराविक समाजाक वा घटकांक़ समाजात वर्चस्व मिरोवपाची संद दिवपी ह्यो संस्था जनसामान्याक उगत्यो जावंच्यो, तांकां त्यो आपल्यो दिसच्यो आनी सगळ्यांनी एकवोटावोरवी सर्वांगीण उदरगत साध्य करची अशे म्हाका काळजाथावन दिसता. अशे जातले तेन्नाच आमी जेजु ख्रिस्ताचे खरे पाटलावदार जातले. आसूं !

आता परते एक फावट मुळाव्या मुद्यार येवया. ते दिसा ते कम्युनिदादेचें इमारतीचें नुतनीकरण सुरू आशिल्ल्यान कार्यालयीन वावर बंद आसलो. हळदणच्या कम्युनिदादीचे काम फकत मायाच्या आयताराकुच चालू आसता अशे हांवे आयकिल्ले. म्हणून हांव थंयसर गेल्लो. थंय म्हाका एक भुरगो मेळ्ळो जो थंयसल्लो कारबार संबाळटालो. ताणे म्हाका कम्युनिदादीचें कारबाराविशी बरीच म्हायती दिली. तशेच कम्युनिदादेचें अध्यक्ष ज्योस कारिदाद फर्नांडीस हांचो मोबायल नंबर दिलो. ताचेर हांवे ज्योस बाब हांचेशी संपर्क केलो. ताणे म्हाका कम्युनिदादी विशी बरीच म्हायती दिली. तातुंतल्यान म्हाका कळ्ळे कि आमची कम्युनिदाद माय म्हयन्याचे दर एक शेनवार आनी आयताराक नांव नोंदणी करचे खातीर सकाळी ९.०० वरांथावन तें दनपारा १ वरांमेरेन उगटी आसता. शेजाऱ्ची दुसरी कम्युनिदाद फकत सोमार दिसा उगटीं आसता. तेन्ना हे वेळेची म्हजी गोंयची भोवडी फुकट गेली नां. आमचे कम्युनिदादींविशीं पुराय म्हायती आसका दिल्ली हांव, म्हजी आवय–बापूय, म्हजे भाव–भयणी तांची सगळी फामील हांची सगळ्यांचीच नावां फुडले म्हयने गोंय भोवडेंतल्यान करपाचे हांवे थारयलें।

हळदणथावन तकलींत एक विचार घेवन हांव परत आजऱ्या पावलो. दिसरे दिसा आयताराक हांवे आजऱ्याची पॅरिश प्रीश्ट फादर ज्यो मोंतेरो हांचे भेट घेतली आनी ताका म्हजें गोंय भोवंडेविशीं आनी खरीतपणान गांवच्या कम्युनिदादींविशी सविस्तर म्हायती सांगली. फादरान कम्युनिदीच्या कागदपत्रांविशीं आनी करभाराविशी अधिक म्हायती सांगली; तशेंच आमचे उजवाडचे संपादक लुईसबाब हांचेकडेन जेन्ना फोनाचेर हांवे संपर्क सादलो तेन्ना तांणीं हें विशीं म्हजे जणविकायेंत भर घाली. मायाच्या निमण्या शेनवाराक ३१ तारकेर हळदन मोहिमेचेर वचपाचे थारायले. आमचे घराण्याच्या दादल्यांची म्हळ्यार म्हजो बापाय सावन ताचो सगल्यांत धाकलो नातू हाची वळेरी हांवे तयार केली आनी तांचो सगळ्यांचो शेरदांव (बाल्तीम सर्टीफिकेट) काडून घेतल्यो. जेन्ना म्हजे बापायक हांवे हे नोंदणीविशी विचारले तेन्ना ताणे म्हाका सांगले कि ताचे नांव १९७१ वर्समेरेन नोंद जाल्ले आसा. म्हजे पायचे नांव नोंद जाल्ले आशिल्ल्यान आमची नोंदणी करप आमकां खूब सोप्पें जालें. ..... **(फुडलो भाग सप्टेंबर अंकांत)**

**डॉ. रोझारिओ डिसोझा,** एम.डी. (होमिओ) पी.एच.डी. (स्कॉलर); : प्राचार्य : इ.बी. गडकरी होमिओपॅथिक मेडिकल कॉलेज, गडहिंग्लज मो) 09850621779 rosariodsouza14@gmail.com

**फाटल्या अंकातलो मुद्राराकेसाचो प्रताप :**

तें कम्युनिदादीचें नांव आसले. ( COMMUNIDADE FRATERNAL DE ALDONA (कम्युनिदाद फ्रातेर्नाल दे आल्दोना)

म्हान जेज्वीट पाद्री स्वामी प्रभुधर हांचो ७८ वो वाडदिस यद्दलगुड्ड ,जि. बेळगांव हांगा २ ऑगस्ट दिसा व्हड दबाजान मनयलो. स्वामी प्रभूधर हांचो जन्मदिस १ ऑगस्ट दिसा आसा. वाडदिसानिमतान आजरा गडहिंग्लज बेळगाव परिसरातल्यान मानेस्त हजर आसले.



मीस भेट्यताना आजऱ्याचे डीन फादर ज्यो मंतेरो (स्वामी प्रभुधर हांचो भाचो) (डाव्यान) संताजी लोबो, फादर प्रकाश, फा. कारिदाद ट्रागो, फादर चेन्नाकला आनी स्वामी प्रभूधर.



वाडदिसाचो केक कातरताना स्वामी प्रभूधर शेजाराक रायमन कुटिन्हो, फादर द्रोगो, फ्रान्सीस मंतेरो, आंतोन (बबन)द्रोगो, रोजालीन मंतेरो, फादर ज्यो. फादर प्रकाश आनी प्रेमा द्रोगो.



वाडदिवसानिमित्तान स्वामी प्रभूधरचो सत्कार करताना (डाव्यान)आजरा तालुका साखर कारखानाचे संचालक माजी सभापती आल्बर्ट डिसोझा, बेनिता प्रकाश करव्हालो, जे.बी. बारदेस्कर मेरी जॅकू करव्हालो, प्रा किसनराव कुराडे, प्रा. जॅकू बारदेस्कर (करव्हालो), डॉ. मोतीराम बारदेस्कर तशेच बेळगावथावन सिरील करव्हालो. एस पी डिसोजा, संतान लोबो, कैतान डिसोजा (बेळगुंदी) जुजे डिसोजा (धामणे), लुईस रॉड्रीग्स, इंत्रू मंतेरो आनी हेर मानेस्त हजर आसले.

## फ्रान्सीना आलेक्स मेन्डोन्सा



**कोल्हापूर :** मुळावे धामणे ता: भुदरगड , आनी कणेरीवाडी हांगा राबितो केल्या फ्रान्सीना आलेक्स मेन्डांन्सा हिका एस.एस.स्सी. परिक्षेंत ८६ % मार्क्स मेळ्ळे. चड संघर्शपूर्ण परिस्थितींत फ्रान्सीनान हे यश मेळयला.

## ऑश्टीन हाका एस.एस.सीं. त ९४.२



**मुंबय :** मुळावे आजरा आनी सद्या मुंबय राबितो केल्या मिनीन आनी अनिता कुतिन्हो हांचो पूत ऑश्टीन हाका एस.एस.सीं. त ९४.२ टक्के मार्क्स मेळ्ळे.

संतीबस्तवाडच्या सेंट जोसेफ्स इन्स्टिट्यूट ऑफ हॉटेल मॅनेजमेंट अ‍ॅण्ड टेक्नॉलॉजीचो डिप्लोमा डे

# १५ तरणाट्यांचो पर्जळीत जालो फुडार




पिलार पाद्रींचे प्रॉव्हिन्शियल फादर किरियेल डिसोझा हाणीं बिशप पीटर मच्याडो हांची व्हड दृश्टी (व्हिजन) लाभिल्ले व्यक्तिमत्व अशा उत्रांनी स्तूती केल्या. संतीबस्तवाड हांगाच्या सेंट जोसेफ्स इन्स्टिट्यूट ऑफ हॉटेल मॅनेजमेंट ॲण्ड टेक्नॉलॉजीच्य डिप्लोमा डे दिसा ते उलयताले. संतीबस्तवाड हांगा सुरू जाल्ल्या ह्या इन्स्टीट्यूटांतल्यान अंदू ऑगश्ट म्हयन्यांत केटरींग मॅनेजमेंट पुराय केल्ल्या १५ विद्यार्थ्यांक डिप्लोमा प्रदान करण्यात आयलो. ह्या भुरग्याक आता व्हडल्या व्हडल्या हॉटेल्स आनी बोटींचेर नोकरी मेळटली संद उपलब्ध जाल्या.

ह्या वेळार बिशप पीटर हाणीं बेळगांव, आजरा, चंदगड, गडहिंग्लज, खानापूर आनी परिसरांतल्या ख्रिस्तांव भुरग्यांनी हे इन्स्टीट्यूटांत दाखलो घेवन आपलो फुडार पर्जळीत करचो अशें आवाहन केले. हे इन्स्टीट्यूट Guardian Angel Institute of Hotel Management and Catering Technology, Goa. ह्या संस्थेकडन संलग्न आस्ल्या कारणान हांगा आंतर राश्ट्रीय थरावयले शिकप मेळटा अशी म्हायती गार्डीयनचे व्यवस्थापक फादर ज्याकीम रिबेल्लो हाणीं दिली.

हे इन्स्टीट्यूट इस्कोला पुराय करूंक शक्य जावंक नाशिल्ल्या तशेंच अर्दवट शिकोप करून आनी परिस्थितीक लेगून नोकरीच्या सोदांत आशिल्ल्या तरणाट्यांक हॉटेल मॅनेजमेंट आनी केटरींग टेक्नॉलॉजीच्या डिप्लोमाचे शिकोप दिता. हा ह्या एक वर्साच्या डिप्लोमा दरम्यान विद्यर्थ्यांक गोंयच्या स्टार हॉटेल्सांनी ट्रेनींगची संद मेळटा आनी डिप्लोमा पुराय जाल्या उपरांत नोकरीची लेगीत हमी मेळटा. ह्या पासोत गरजेवंत तरणाट्यांनी ह्या संस्थेक भेट दिवंची वा.फोनाचेर संपर्क करचो अशे आवाहन फादर सिरील हाणीं केला.

अधिक म्हायती पासोत फादर सिरील फर्नांडीस हांकां मेळचे वो संस्थेक भेट दिवन हांगा उपलब्ध आशिल्ल्यो सुविधांची म्हायती घेवंची अशे संस्थेच्या संचालकांनी आवाहन केला. ह्या कार्यावळीक सेंट जोसेफ्सचे मॅनेजर फादर सिरील फर्नांडीस, मॉन्सीन्यूर लुसिओ मस्करेन्हस, फादर फिलीप कुट्टी,टोनी मिनेझीस आनी हेर मानेस्त हजर आसले.

**फोटो : कार्यावळींत उलयताना फादर किरेयेल. शेजाराक फादर सिरील, फा. कुट्टी, मॉ. लुसिओ, बिशप पीटर आनी हेर मानेस्त**

* * *

## मन उल्हासित करपी पुस्तक प्रकाशन सुवाळो घाटमाथ्यार फांकलो साहित्यरुपी उजवाड

०३ ऑगस्ट २०१४ आयतारा जिविताचो प्रवास मिलाग्रीन डिसोजा आनी गोट्या लुईस रॉड्रीग्स ह्यांच्या पुस्तकाचो उक्तावण सुवाळो जालो. ह्या सुवाळेचे मुखेली जावुन असले आमचे गवळीबाप डॉ. पीटर मचाडो . असो ह्यो सोबीत सुवाळो आमंच्या बेळगावांत पयल्याच पावटी जालो. कोंकणीतल्यान उजवाडाक आयलेली ही दोन पुस्तका पळोवन मन उल्हासित जाता.

जिविताचो प्रवास वाचतांना म्हज्या मामांच्या घरांत हांव आता आसा असोच अनुभव येता आनी मन पाटल्या दुनियेंत वेता आणि गोट्या वाचताना तांतली कोंकणी उत्रांची ओळख जाता आनी मन खुशाल जाता. दोन्ही बरोप्यांनी काळजाथाऊन देवबरे करु म्हणता कि, कोंकणीतल्यान साहित्य उजवाडाक हाडून सगळ्या ख्रिस्ती कोंकणी लोकांचेर उजवाड फांकयलो.असोच तुंमचो साहित्यीक प्रवास चलोदींत म्हूण देवाबापा लागी मागता



आनी म्हणता. *भांगारांच्या सुर्या रुपे घाले तारु । कोंकणीच्या सेवेंत पुस्तका बरयिल्ल्या तुमकां देव बरें करूं ।* **सौ. एलेन मार्यान बोर्जीस** (टीचर - खानापूर)



## हुशार आनी कर्तुबी कोंकणी विद्यार्थ्यांक भांगरा संद

टी. व्ही. मोहनदास पै हें कार्पोरेट विश्वांतले एक व्हड नांव आसा. कोंकणी भाशिक बळिश्ट जावंच्या दिश्टीन ताणीं व्हिजन टी.व्ही.एम. २०३० कार्यक्रम विकसीत केला. हातूंतलो एक कार्यक्रम म्हळ्यार १२वी आनी सी.ई.टी. परिक्षेंत विशेश यश मेळयिल्ल्या सगळ्या विद्यार्थ्यांक ही स्कॉलरशीप . इंजिनियरींग पासोत दर वर्सा रु.३०००० आनी मेडिकल पासोत रु.४०,००० अशी ह्या स्कॉलरशीपची रक्कम आसा.तेच बाशेन ही स्कॉलरशीप मेळिल्ल्या विद्यार्थ्यांक दर वर्सा वर्सांतल्यान दोन फावट पंचतारांकित सुविधांनी उपलब्ध आशिल्ल्या विश्व कोंकणी केंद्राच्या परिसरांत तीन दिसांचे विशेश कँप्सचे येवजण जाता. ह्या कँपांनी राश्ट्रीय थरावयले प्रशिक्षक विद्यार्थ्यांक प्रशिक्षण दितात आनी तांका व्हडल्या व्हडल्या हुद्यांच्या नोकरी पासोत तयार करतात.

बेळगांवच्या तान्या रॉड्रीग्स हिका ही स्कॉलरशीप फावो जाल्या तशेंच दर वर्सा संपन्न जावपी कॅम्प्स पासोत लेगीत तिची निवड जाल्या. अधिक म्हायती पासोत पालकांनी आनी विद्यार्थ्यांनी

http:/www.vishwakonkani.org

ह्या वेबसायटाचेर भेट दिवंची. **उजवाड संपादक लुईस रॉड्रीग्स हांकाय सदा बाशेन 24x7 .......09448133189 हे मोबायलाचेर संपर्क करूंक हरकत नां !**

# Saibinnichi bhett amchea ghorabeant odik orthabhorit zaunk zai



Ganv-ganvamni Saibinn Mainchi murti vorsak ek pavtt tori amchea ghorabeak bhett dita. He bhettecho hetu mhollear amchea ghorabeant magnneachem mon vo vattavoronn nirmann korunk ani sezaream lagim ekvottacho bandpas bandun haddunk; mhonnge konnuim sezarim eka-meka lagim uloinant vo tanche sombondh tuttlole aslear Saibinniche bhette nimtan novean mogache ani ixttagotiche bandpas ghott korunk.

Tor Saibinnichi bhett amchea ghorabeant odik orthabhorit zaunk he bhette vellar sokol dil'leo kaim mhotvacheo suchovnneo lokxant dovrop khub gorjechem: Poile suvater Saibinn Maink amchea ghorabeant bhett korunk omkoch vell tharail'lo asta. To vell samballop khub gorjechem. Zaite pavtti ami bexttinch vell vogddaitat. Sadde sat mhonn lokak sangtat ani pavnne atth porian yech nant. Aiz kal hea taktikechea sonvsarant vell chodd gorjecho. Mhonnttoch dusro lok Saibinnik yeta tancho vell vogddavop mhollear tanchem kam addkollun dovrop.

Saibinniche bhette vellar Saibinnik yevkar divn kel'lem magnnem vo her prarthonam ghorcheanuch korunk zai mhonn na. Zor tumchea ghorabeant boro vachpi na zalear dusrean tem magnnem vachunk yeta Zaite pavtti mhojem ghor mhonnttoch mhojea ghorabeantlea mon'xanuch vachunk zai oso somoz dhorun vachpam kortat. Kitem vachlam tem konnakuch somzona. Devachem Utor vachtana odikuch bhor ghalun vachop zaunk zai, kiteak Devachem Utor amkam mhotvacho sondex dita. Lhan bhurgeank vachop korunk dita zalear tachi adim fuddench bori toyari korunk zai.

Saibinniche bhette vellar fogotteo, gornal ani her fog lhascho nhoi. Heo vostu avazachem produxonn kortat. Amchea sezareak zanttim vo piddest asat tankam ho boball upkaronam. Tanche bholaikek mar bosunk xokta. Saibinn Maink bhailo ghonnghonn naka, tika zai tem xant vatavoronn ani kallzachi khori bhokti.

Aiz kal Saibinn Maim amchea ghorabeache bhettek yeta tedna amchem chodd mon khavpacher asta. Kitem khavnk ditolim' Mhojea sezarea poros amchem borem asunk zai. Mhojea sezarean don khavpache nog dilear hanv tin nog ditam, tannim tin dilear hanv chear ditam. Osli spordha Saibinn Maink avoddna. Saibinniche bhette vellar aiz amkam oslem mon dista. Soglleam lagim tin chear nog diunk zainant. Girestanchem honr mhollear goribanchem momn zata. Soglleamni don tin nog dileat. ani ami ekuch dilear lok kitem mhonnttolo hem chintun tim babddim magir tanche kodde zainastana poryan koxeim korun nog toyar kortat. Hi rit konneim tori fuddem sorun bond korunk zai vo soglleamni ekuch nog dinvcho.

Dor eka somudayan Saibinn Mainche bhette voir hanga dil'lea mud'deancher bhasabhas korun nirnnoy ghetlear borem zatolem. Saibinn Main dor ekleak aplea subham axirvadan bhorum.

**- Jasmine Rodrigues Estibeiro**

* * *

# आंकवार चेड्यां-चेडवांची म्हायती

सूचना : १) ह्या पानाचेर प्रसिद्ध जाल्ली म्हायती आमचे कडेन चेड्या-चेडयाच्या आवय-बापायन वो चेड्या-चेडवान वो तांच्या अधिकृत प्रतिनिधीन दिल्या प्रमाणे प्रसिद्ध जाता. पूण खयच्याय चेड्या-चेडवाची म्हायती मेळयताना ही म्हायती तुमी तपासून पळोवंक जाय. जायरात रुपान ही म्हायती उजवाडाक येता. हातुंतल्यान कसली तक्रार आयल्यार उजवाड संपादक, सपादकी मंडळाचे वावराडी, प्रतिनिधी वो उजवाडाचे खयचेय घटक जबाबदार नासतेले . २)उजवाडचे वर्गणीदारांक ह्या पानाचेर जायरात प्रसिद्ध करपाची फी आसा रु.८५०/- (Rs 850) . हेरांपासोत ही रक्कम रु. १०००/- (Rs 1000) १ **वर्साच्या** वर्गाणी सयत आसतेली. रक्कम डिमान्ड ड्राफ्टान वो मनी ऑर्डरीन वो उजवाडच्या अकावंटाचेर धाडची. ३) म्हायती धाडताना तुमची सही आसप गरजेचे आसा/ सांगाता चेड्या-चेडवाचो फोटो धाडल्यार अधिक बरें. संपर्क : **एकवोटावोरवी उजवाड,** एस.७,, विजयलक्ष्मी आर्केड,नार्वेकर गल्ली, बेळगांव फोन : 0831-2433189, 2403198 मोबाईल नं : (O) 9448133189 email : euzvad@yahoo.in / luirods@yahoo.com

* **आंकवार चेडूं**,25, 4'11", Fair, B.E. (Comp.Sci.) Working **संपर्क** : 09325920873, 09604627948

* **आंकवार चेडूं**,27, 5' 5", Fair, B.E. (Comp. Army Officer, **संपर्क** : 09552558814

* **आंकवार चेडूं**,28,5' 6", M.Sc. Ph.D.,**संपर्क** : 09823246784, 0832- 2664472

* **आंकवार चेडूं**, 28,BHMS, 5' 3", **संपर्क** : 09036165530 (Belgaum)

* **आंकवार चेडूं**, 28, 5' 2", B.Sc., Working **संपर्क** : 09509750022, 09342705440

* **आंकवार चेडूं**,26, 5' 7", Degree in IT / Software Engg.in MNC **संपर्क** : 09421160511,02194263562

* **आंकवार चेडूं**,26, 5'.4", MBA, **संपर्क** : 0831-4202677, 09739640182

* **आंकवार चेडूं**, 28, 5'.4", B.Com. MBA. Working in Pune, **संपर्क** : 09823089796, 0712-2541254

* **आंकवार चेडूं**,28, 4' 10" , B.Sc.. B.Ed., Service , **संपर्क** : 09421114628, 09881157423

* **आंकवार चेडूं**,30 , B.Sc. B.Ed., Govt. Teacher. **संपर्क** : (0) 9739235790

* **आंकवार चेडो**,28, 5' 9", M.B.B.S., M.D.(IInd Year),**संपर्क** : (0) 9422628636,9273337666,(02327)-222759

* **आंकवार चेडो**,27, 6' 4", B. Com. Accounts Incharge, Miraj **संपर्क** : (0) 9503628867 (0) 8484028420.

* **आंकवार चेडो**,33, 5' 6 ", M.Pharm (Asst. Professor),**संपर्क** : 09096971815, 0832- 2664472

* **आंकवार चेडो**,26, 5' 7 ", M.A. Govt. Service (Pune) . **संपर्क** : (0) 09673983764

* **आंकवार चेडो** 31,5'8 ", सौदी अरेबियांत ड्रायव्हर, संपर्क : 09422434663, 02363-262663

* **आंकवार चेडो** 32, 5' 11 ", Computer Engineer, (Bangalore), **संपर्क** : 09449084101. 09483503243

* **आंकवार चडो** 29, 5' 6", बोटीचेर सव्हींस, संपर्क : 09343892169

* **आंकवार चेडो**, 28, 5' 5".ITI : हिंडाल्को (इंडाल ) कंपनीत सर्व्हीस संपर्क : 09743982980

* **आंकवार चेडो**, 27, .M.B.A.Working in Bank: **संपर्क** : (0261) 2236120

* **आंकवार चेडो**, 25, BCS - MBA, WORKING IN TCS .: संपर्क : 09601805037, 07208616591

* **आंकवार चेडो**, 26 , B.Sc.(IT) - M.B.A. मल्टीनॅशनल कंपनींत नोकरी. उंची : 5' '7" संपर्क : 09004632266

* **आंकवार चेडो**, 29, 5'7", B.Com., Working in Pune, **संपर्क फोन:** 9890350283, 0231-6510137.

* **आंकवार चेडो**, 29, 5'6". B.E.(Electronics) संपर्क फोन: (0) 9923295428.(Pune)

* **आंकवार चेडो**,30, 5'8" M.B.A. Technical Advisor (Pune) **संपर्क** : 09975675419, 097412 76297

***आंकवारचेडो**,26,5'9"B.Sc.(I.T) MMS.Manager.**मुंबय.** :M:09029568567, 09820723784

* **आंकवार चेडो**,30, 5'.6", B.E.,MBA, Asst.Professor : 0831-4202677, 09739640182

* **आंकवार चेडो**,29, 5'4" , B.A. **संपर्क** : 09036165530

* **आंकवार चेडो**,31, 5'6" , ITI. (नोकरी) **संपर्क** : 09421709300, 09371935225

* **आंकवार चेडो**, 44,·5'5" , M.sc. P.G. Manager in Mumbai **संपर्क** :07738182104



बेळगांव आनी उत्तर कर्नाटक तशेंच महाराश्ट्रांतल्या साऱ्याच्या व्यसनांत पिड्यार जाल्ल्या साबागनी व्यसन प्रभावक व्यसनांतल्यान सोडयलेल्या क्लेरेशियन पाद्रींनी फाटल्या १५ वर्सांथावन चलयिल्ल्या होप रिकव्हरी केंद्राचें उक्तावण क्लेरेट निकेतन, बेळगांव ह्या परिसरांत उक्तावण बेळगावचे बिस्प रेव्ह. डॉ. पीटर मच्याडो हाचे हस्तुकी जालें. ह्या वेळार हजर आशिल्ले मॉनीन्यूर फिलीप कुट्टी, मॉ. लुसिओ मस्करेन्हस, पीरनवाडी पंचायत अध्यक्ष

# पावस आनी कातीचीं दुयेंसा

मे म्हयनो सोंपत येता म्हणसर गरमी इतली वाडटा की केन्ना काय पावस पडटा अशें सगळ्या लोकांक जाता. पावस एकंदाचो सुरु जालो की जिवाक सूऽ जाता आनी हवेंत थंडाय उरता. पूण मदीं मदीं येवपी वत आनी हवेंन वाडिल्लें गरमी आनी दमटसाण आमचे कातीक त्रास करुंक शकतात.

पावसा दिसांनी हवेंत ओलसाण आसता. हाकालागून कपडे सुकपाक, आंगावेलो घाम सुकपाक वेळ लागता. पावसाच्या उदकांत भिजून कपडे ओले जातात. पांयाच्या जोत्यांनी, बुटांनी आनी पायांच्या बोटांच्या खाचींनी उदक सांचून उरता. ह्या ओलसाणीक लागून कातीर फंगल इन्फेक्षना जावपाक शकतात. कातीच्या खांचीनी इन्फेक्षन चड करुन जात. जांगांनी, खाक्यांनी आनी पांयाच्या बोटांमदीं सुरवेक खाज येवपाक लागता. आनी मागीर थंय पुळेर जावन चरतें........जाता. पांयांच्या निमाण्या दोन बोटांमदीं फंगल इन्फेक्शन सुरु जाता. बोटांमदीं कात्रेय खूबदां पडटात. शाळेंत वचपी भुरग्यांक गोडेमूत आशिल्ल्या मनशाक आनी कातीची वेवस्थीत जतनाय घेनाशिल्ल्यांक हीं दुयेंसां चड प्रमाणांत जातात.

कातीक पुळयो येवप, तातूंत मातेरी जावन फुटून घावे जावप. तोंडार इन्फेक्षन जावप, तकलेर कट्टुलां जावप हीं कांय बॅक्टेरियल इन्फेक्शनां पावसाच्या दिसांनी चड प्रमाणांत दिसतात.

पावसाच्या दिसांनी मदीं मदीं वाडिल्लें तापमान आनी कडकडीत पडपी वत कांय जाणांक घामोळे येवपाक कारणीभूत थारता. जोर येवप हें तर पावसाच्या सुरवतेक खूब लोकांक जावपी दुयेंस. ह्या जोराची कारणां खूब तरांची आसूं येतात. मलेरिया, टायफोड, डेंग्यु, चिकून गुनिया, व्हायरल आनीकय खूब ह्या जोरा बराबर खूबदां कातीरय पुळेर दिसूंक शकता.

पावस सुरु जालो की आपली कात आनी भलायकी सांबाळूंक जाय. ओले कपडे घालूंक जायना. कातीच्या वा हेर कसल्याय दुयेंसांची लक्षणां दिसत जाल्यार रोखडोच तुमच्या दोतोराचो सल्लो घेवंक जाय.

**-डॉ. अनुपमा कुडचडकार.**

# जॅकी बस्तु डायस उर्फ व्हडलो



**बेळ्गुंदी** : घाटमाथ्यार स्थाळंतरन जाल्या उपरांत आमच्या कोंकणी क्रिस्तावांनी आपली भास, धर्म आनी समाज संबाळता आसतनाच दर एक गावच्या राजकारणांत, समाजकारणांत आनी अर्थ कारणांत मोलादिक भुमिका निभयले. तांबडी माती आनी तातूंत येवपी रुचिक बटाटे आनी रताळ्यांचे पीक हांचे पासोत फामाद आशिल्ल्या बेळगांव तालुक्यांतल्या बेळ्गुंदी गावचे एक फांकीवंत सामाजिक कार्यकर्ते आनी परिसरातल्या सगळ्या सामाजिक वावरात सदाकाल उमेदीन राबितो करपी जॅकी वस्तु डायस हे एक अशें रुबाबदार व्यक्तिमत्व आसा.

पक्ष खंयचोय आसूं, तातुंतल्यान सामाजिक हीत जतन जावंक जाय अशी उमेद आशिल्ले जॅकी डायस हांची भारतीय जनता पक्षाच्या (भाजप) च्या बेळगांव ग्रमीण विभागाचे अल्पसंख्यांक सचिव म्हणून नेमणूक जाल्या. खासदार सुरेश अंगडी आनी आमदार संजय पाटील ह्यांच्या सूचनेवयल्यान ही नेमणूक जाल्या.

जॅकी डायस डर्फ व्हडलो बाबा हाची सामाजिक जापसालकी वारवाण्णी करपासारकी आसा. तांच्या घरांत भावंडां मदें तो व्हडलो आसल्या कारणान ताका व्हडलो बाबा म्हूण आपयतात पूण आपल्या त्यागी ,मोगी आनी कर्तुबी सभावा वोरवी आनीखंयचेय सामाजिक कार्य आसूं, कारण आसूं वा मरण, समाजांतल्या जाण्ट्यांक आनी तरणाट्यांक सांगाता घेवन व्हडलो बाबा व्हड तळमळीन आनी उमेदीन वावर करताना आमकां दिश्टी पडटा. उच्च माध्यमिक शिकोप पुराय करता आसतना ताणे लागी लागी दोन दशका दुदाचो वेवसाय केलो. हांगाच्या जीवन साफल्य दूदसंस्थेचे चेअरमन म्हूण ताणी यशस्वीरितीत १५ वर्सा जबाबदारी संबाळल्या. बेळ्गुंदी इगर्जी पासोत आमदार फंडातल्यात भरीव आर्थीक मजत मळोवन दिवंक ताचो मोलादिक वाटो आसा.

ताचे कार्य चड आत्मविश्वासान चलता. खंयच्याय कार्यावळींत त्या त्या वेळेपरमाणे भाशण करूंक ताचो हातखंडो वाखाण्णी करपा सारको आसा. आयज सगळ्या पंचक्रोशींत ताचो राबितो चलता. घरकान्न फ्लोरीन पंचायत सदस्य म्हूण वावरल्या आनी ती वेळगांवच्या सुसंदेश केंद्राची वेवस्थापिका आसा. धूव रेचल हिणे इस्कोल आनी कॉलेज मळार जायते भोवमान मेळोवन आयज इंजिनियरींग शिकता. पूत ब्रायन १२वींत आसा. ( **जॅकी डायस : मो :** 09741979685 )

## वेंगुर्ला पॅरिशांतल्या विद्यार्थ्यांचे यश






वेंगुर्ला पॅरीशन १० वे परीशेत ८०% चे वयर मार्क्स घेवन पास जाल्ली भुरगी Anson Andrew Thomas (Ubhadanda ), Michelle Maxi Fernandes (Ubhadanda ) Twinkal Alex D'souza (Camp), Velentina (Camp) ह्या सगळ्या भुरग्यांचे आमचे उजवाडचे वेंगुर्ला प्रतिनिधी संतान जॉन डिसोजा (कॅम्प) तसेच उजवाड परिवारातर्फे अभिनंदन (पोरबी) तसेच तांका फुडाराक परबीं आवंडेता



गडहिंग्लज : मुळावे हुडे (माद्याळ) हांगाच्या रोझारिओ आनी माग्देलीन रॉड्रीग्स हांची धूव आनी साधना हायस्कूलची विद्यार्थिनी रेचल हिका एस.एस.स्सीं. त ९० टक्के मार्क्स मेळ्ळे.

सर्गीचे आपोवणे :

### नतालीन लुईस करव्हालो



**ठाणे**: हांगाच्या नतालीन लुईस करव्हालो हिभा १२ ऑगस्ट २०१४ दिसा मरण आयले. तिो फाटल्यान घरकार, दोन पूत, एक धूव , नातरा आनी एक पणतरु असो परिवार आसा.

### अँथनी बॅप्तीस्त डिमेलो

**पुणे** : मुळावे मसुरे (मालवण) जि. : सिंधुदुर्ग हांगाचे एक



मानेस्त आनी निवृत्त पोलिस हवालदार अँथनी बाप्तीस डिमेलो, ता : मालवण, जि.: सिंधुदूर्ग हांचे २३-०७-२०१४ दिसा मरण आयले तांचे फाटल्यान ७ पूत- सुनो, आनी नातरा असो पविार आसा.

## इंत्रू काजमील क्रूझ (कुरीस)

**नेसरी** : हांगाच्या क्रिस्तांव समाजांतले मानेस्त फुडारी इंत्रू काजमील कुरीस हांका २० ऑगस्ट दिसा मरण आयले. तांचे फाटल्यान घरकान्र दोन पूत, सुनो आनी नातरा आवो परिवार आसा. मंडगांवचे फामाद दोतोर (वकील) ॲड. एडविन क्रूझ हांचे तें बापूय जावन आसले.

### फ्लोरीन जॅकी वियेगस



**बेळगाव** : शहापूर हांगाच्या फ्लोरीन जॅकी वियेगस (६२) हिका २४ ऑगश्ट ह्या दिसा मरण आयले. तिचे फाटल्यान घरकार, दोन पूत, सून, धूव आनी नातरा असो परिवार आसा.

### इजाबेल बस्तू बारदेस्कर



इचलकरंजी : मुळावे माद्याळ आनी इचलकरंजी राबितो केल्ल्या इजाबेल बस्तू बारदेस्कर (५२) हिका १ जून दिसा मरण आयले. तिचे फाटल्यान घरकार, दोन धुवो, सून, जांवय आनी नातरं असो परिवार आसा.

### आंतोनफ्रान्सीस संतान नाझरेथ



**बिडी (खानापूर)** : हांगाच्या आंतोनफ्रान्सीस संतान नाझरेथ (७८) हांका २४ जुलय दिसा मरण आयले. तांचे फाटल्यान घरकत्र, दोन पूत, सुनो, एक सिस्टर सयत तीन धुवो आनी नातरां असो परिवार आसा.

### १०२ वर्सांच्या रॉकी नाझरेथ हांकां सर्गीचे आपोवणे



**बिडी** : हांगाच्या रॉकी नाझरेथ हांकां १८ जुलय ह्या दिसा मरण आयले. तांचे फाटल्यान दोन पूत, तीन धुवो, नातरा, पणतुर असो ११२ जणांचो परिवार आसा.

## उगडास



मोगाळा बाजू कसे तुका विसरचे
मोगान उल्लोन खुदकन् गालात हसचे
कॅप्टन बाबा रुबाबदार तुजो बांधो
रावतालोय मिळून मिसळून सादो
पळेयता, पळेयता वरस जाले
असे कसे नियतीन निर्मिले
संदाच तुजी याद येता आमंका
अंतरमनांन सोदतांव तुका
दिसना पुता तू गेलाय आमका सोडून
तू सदांच आसाय आसपास अजून
जिवितांत अससर तुजी वाट पळेयंताव
तुझ्या परतुन येण्याक धनयाकडे मागतांव
तुझीच मोगाळ आन्टी

**सौ. एलेन मार्यान बोर्जीस**
टीचर- खानापूर.

# Hearly Congratulations for receiving First Holy Communion

# CYNTHIA & DENNIS

# (27 July 2014)



Mom & Dad

**Sumita & Wilson Lobo**

**09902803004**

Grand Mother

**Izabel Lobo from Kini**

Grand parents

**Fulorin & Filip Bardeskar & Family from Harali**

**Louis & Eliza Rodrigues & Fly. Belgaum**

Cynthia & Dennis with Archbishop Bernard Moras

**Aunty & Uncle - Kusum & Robert D'souza & family**

**Dahanu, Dist: Thane.**





# काजाराच्यो हुनहुनीत परबी





स्टीफन - रसिला



देवदित - रिचर्ड

**Stephen**,
Parents : Jokim, Milagrine Furatado,
Bridegroom Siblings : brother Sachin, Sister Severin Savio Miranda

Bride : **Rasila** (parents : Santan, Angeline Lobo, Kini (Kowad), Brother: Praveen

**Devdith,**
Parents : Santan, Jacintha Furtado,
brother James, Sister Priyanka

Bridegroom : **Richard,** Son of John & Aveline Carvalho,Gadhinglaj Brother : Nelson

---

*Sponsored and best wishes from : Joseph (Juje) John Furtado, Wife : Queena, Son : Jason, Daughter : Angela (Mob) : 07259758508*

## Complements from :

*Mariyan Furtado, Wife: Milagrin,*
*Sebastian Furtado, Wife : Monica, Siblings : Joyline ,Mathew*
*Cousin brother : Premanand Dsouza, Wife : Julie,*
*Children : Jessiya and Silvia*
*Furtado and Carvalho families, friends, relatives*

Postal Registration No. G-2/ PMG/KA/NK/BM 2011-14 Printed at Omega Offset, Posted at RMS Post Office on 28th of every month